जाग प्रकाशनाचें

# जाग

म्हयनाळें

वर्स ४६ : आंक ५ : जानेवारी, २०२०

* संस्थापक संपादपी :
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

* वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

* संपादपी :
आसावरी नायक

* पालवी संपादपी :
कृपाली नायक
एडना वाझ

* उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

* छापपी :
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५१० ००२

* वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग, गोंय
विद्यापिठा लागसार, ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोनः ९७३०८७१११८/ ७४४७२६८७२०

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

पटी मनी ऑर्डरीन वा ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-



मांडावळ...

०२ सुरेशबाब... ........................ संपादकीय

०३ सुरेश आमोणकार - एक विज्मितांची जीण ........................ दामोदर मावजो

०६ ध वर्डस् - अस्वस्थ प्रवास ........................ प्रकाश वजरीकार

०८ कविते विशीं ........................ माधव बोरकार

१२ नव्या दशमानाची डायरी : १ ........................ नंदकुमार कामत

१४ कृष्ण : एक थाव........................ निलबा अ. खांडेकार

१८ धीट लोकांचो देश : विएतनाम ........................ संपदा कुंकळकार

२२ एक्ये काणियेचो शेवोट ..(कथा)........................ स्याम बोळिये

२३ सवंय ..(कथा)........................ वॅली क्वॉड्रोस

२५ कल्पना शक्ती........................ कृ. म. सुखठणकार

२९ अस्तुरेच्या सूख-दुख्खांक वाचा फोडपी : 'आर्त' ........................ सखाराम शेणवी बोरकार

३१ कविता: ........................
निलबा अ. खांडेकार, अशोक भोंसलो, उषा ज. कामत, परेश नरेंद्र कामत, आर. रामनाथ.

भायले आनी भितर्ल्लीं चित्रा : भरत जगताप





# सुरेशबाब...

कोंकणीच्या इतिहासांत वेगळीं वेगळीं झुजां पर्वां येवन गेलीं. एक काळ आसलो तेन्ना तिका आपूण स्वतंत्र भास म्हणूक नेटान झुजचें पडलें. ते उपरांत गोंय राज्य स्थापन जातगीर लेगीत तिका मानाचो पाट मेळ्ळो ना, म्हणून आंदोलन पर्व जाले. तातूंत मानाचो पाट मेळ्ळो खरो, पूण गोंयकारांचेर अन्याय जावप थांबले ना, तरी आयज खरेपणांतलें सृजनशील पर्व चालू आसा. कोंकणीची गिरेस्तकाय वाडूंक जाय. भाशेचो अभ्यास, सृजनात्मक साहित्याचें निर्माण, पुस्तक प्रसार आदी. ह्या वावरांत तान भूक विसरून अभ्यास जावंक जाय. बरें साहित्य निर्माण जावंचे, भारतीय साहित्याच्या मळार कोंकणीची गिरेस्तताय वाडपी टिका तयार जावची... असो वावर करपी कितलेशे लोक आमचे कडेन आसात?

हो प्रस्न पडपाचें कारण सुरेशबाब आमोणकार. ते हालींच आमकां अंतरल्यात. जांणी एक दुर्लक्षीत विशय घेवन तातूंत आपलें पुराय योगदान दिलें. तांणी साबार धर्म साहित्याचो अणकार कोंकणींत केलो. तो लोकां मेरेन पावयलो. मतींत घेवंक जाय, आमी ज्या भारत देसांत रावतात तो विवीध रंगी देस. हांगा वेगळ्यो वेगळ्यो संस्कृताय नंदतात. हांगा वेगळ्या वेगळ्या धर्माचे लोक एकवटान जियेतात. भारताची खरी वळख ती ही. आमच्या पुर्वज्यांनी आनी फुडाऱ्यांनी जी घटना आपणायली, तातूंत आमच्या देशांक तो विविधरंगी आसचो, वेगळ्यो वेगळ्यो संस्कृतायो हांगा नंदच्यो, तांच्यात भावचार आसचो, हाची संवैधानीक तजवीज केल्या. ही तजवीज संविधानांत आसप वेगळें आनी ती चलणुकेंत येवप वेगळें. ताचे खातीर यत्न लागतात. हो भावचार, एकवट तिगोवंक नागरिकांचेय फाटबळ लागता. खूब लोक आदी सावन ह्या तत्वांची बुन्याद घट जावंची हाचे खातीर तळमळे कांडटात. सुरेश आमोणकार तातूंतलेच एक. ते भारताच्या 'आंतरभारती' चळवळीचे एक खांपे फुडारी.

देशांत हालीसरा असहिष्णुतायेचें वारे व्हावंक लागला आनी तातूंत भावचाराक वेर वचपाची भिरांत निर्माण जाल्या. आनी नागरीकत्व म्हणल्यार कितें, राष्ट्रवाद म्हणल्यार कितें, हाची नव्यान मांडणी जाता. सावरकार म्हणटाले, मुस्लीम आनी किरिस्तांव हे केन्नाच निश्ठावान नागरीक जावंक शकनात. राष्ट्राची संकल्पना ही भुंये परस संस्कृतीक तत्वान बांदल्या असो तांचो युक्तीवाद आसतालो. पाकिस्तानाचे निर्मणेकूय विरोध करप आनी मुस्लिमाक कायदेशीर नागरीक मानप ना, अशी तांची विचारसरणी. दुर्दैवान हो विचार खरेपणा कडेन व्हरपाचो यत्न जाता, असो भंय आसा. फकत भारत न्हय जाल्यार साबार पश्चिमी राष्ट्रां आनी अमेरिका लेगीत ह्या अविचारान पिडला. हो भेदाभेद असांसदीक आसाच, ते भायर आमचो देश ज्या तत्वान घडला - ताका धोको निर्माण करता. हे फाटभुंयेचेर आमचे लेखक, विचारवंत आनी सामाजीक कार्यकर्ते हांची ही लागणूक - अशे तरेची कारस्थानां फळादीक जावंक दिवप ना.

सुरेश आमोणकार ह्या तत्वान जियेले. ते वेवसायीक भाशांतरकार नासले. तशे ते आशिल्ले जाल्यार चड खपतात, चड मागणी आसा अशाच पुस्तकांचें भाशांतर करपाचे. पूण तांणी कोंकणींतल्यान 'आंतर भारती'चे काम चलयलें. धर्मांतले बरे चलणुकेचें साहित्य, तत्वगिन्यान लोकां मुखार पावचे. कोंकणी लोकांनी तांचेर चिंतन मनन करचें. गोंयांत रावतल्या सगल्या धर्मांच्या लोकांक समजून घेवचें आनी देसांत एक नवी सकारात्मक पिळगी घडची..

गोंय मुक्त जालें तेन्ना नवो समाज निर्माण करपाची गरज आसली. सगळ्या धर्मांच्या लोकांक बरोबर घेवन वचपी, नवी पिळगी-समाज घडोवपाचो वावर. तो सुरेशबाब हांणी आपणाले शिक्षण संस्थेचे वतीन चलयलो. गोवा बोर्ड आनी हेर संस्थांनी ते वावुरले, थंय तांचे हे कार्य जाणवता. स्वताची संस्था आसुनय सरकारा मुखार तांणी केन्ना मान बागयली ना. असले लोक खंयचेय संस्थेचेर वतात तेन्ना त्या संस्थांची प्रतिश्ठा वाडटा. ते आपल्या शाळेंतल्यान निवृत्त जाले तेन्ना आनीकूय पावल फुडें घालून तांणी कोंकणी भाशेक एक एक अलंकार तयार करून अर्पण करपाचें व्रत घेतलें. हो वावर सातत्यान केलो. मदल्या काळांत तांची घरकान्न, जी एक बरी गायिका, लेखक, शिक्षक - सुधाबाय - तांकां सोडून गेल्यो. पूण सुरेशबाबांचें काम थांबलेंना. निमणें पांच वर्सां ते कॅन्सरा कडेन झुजताले. तरी लेगीत तांणी केन्नाच विसव घेतलो ना. एका झुजाऱ्याच्या हांवेसान ते बरयत रावले. आनी कसल्याच पदाची, इनामाची इत्सा बाळगिनासतना ध्येयासक्तीन वावरत रावले. सुरेशबाब ही आयच्या तरणाटे पिळगेक एक देख. 'जागा'चे ते एक बरे मागपी. आमकां सातत्यान तांणी बरयलां. तांकां आमची आर्गां.





# सुरेश आमोणकार - एक विज्मितांची जीण

दामोदर मावजो

''तूं जाणा? सुरेशबाब आमोणकार अकस्मात गेलो.'' आयतारा दनपरां इश्टान फोनार सांगलें.

''अकस्मात न्हय. हांव जाणा आसलों.''

''तुका कशें कळिल्लें तर?'' इश्ट चिके दुखावला म्हणपाचें कळटालें.

''ताणेंच सांगिलें. तो जाणा आसलो - वचपाचें लागीं पावलां म्हूण.''

गजाल खरीच. सुरेशबाब म्हाका निमणो मेळिल्लो तो इकरा नोव्हेंबर दिसा पणजे एके बसकेक आयिल्ले कडेन. ''परतून नव्यान चाळवलां. केमो घेवंची पडटली शें दिसता. पूण हांवें 'आसूं ती आतां' म्हळां.'' सुरेशबाबान म्हणिल्लें. बॅग बी भरून फुडल्या प्रवासाक भायर सरिल्ल्या मनशा वरी उलयिल्लो.

सुरेशबाबा कडेन म्हजी वळख चाळीस वर्सांची. घडये चडच. तीय बाकीबाबा वांगडा येवन तांच्याच आगऱ्याक लागून 'त्या दिसा वडाकडेन' कविता गावन दाखोवपी सुधाबायचो घोव म्हूण जाल्ली वळख. सुरेशबाबाचो साहित्या कडेन कसलोच संबंद नासलो. पूण कोंकणी विशीं आस्था आसली. तितल्या म्हालवजार खंयूय मेळ्ळ्यार हाय-हॅलो म्हाणपा इतलीच आमची वळख.

सुरेशबाब हो बाकीबाबाचो भाचो. ताका कोंकणी भास आनी साहित्य हांचे विशीं जरी आस्था आशिल्ली तरी ताचें बरप मात चडशें जातालें तें इंग्लीशींतल्यान. गोंयच्या इंग्लीश दिसाळ्यांनी तो सदर बरयतालो. खंयचेय कोंकणी कार्यावळीक आपयलो जाल्यार कोंकणींत उलयतां उलयतां मदींच इंग्लीशीक वेंगायतालो. इंग्लीशीचेर ताचें प्रभुत्व आशिल्लेंच. पूण ताका कोंकणी परस इंग्लीश आपणांक बरी येता हाचो अभिमान चड आशिल्ल्यान तो कोंकणीक कडसरायता अशी आमची भावना जाताली. अर्थात, तो इंग्लीशीचो अध्यापक आनी इंग्लीश लिटरेच्यराचो विद्यार्थी देखून तशें जातालें जावंये. पूण ताका लागून खूब काळ मेरेन सुरेशबाब भावनीक नदरेन आमकां कोणाकूच लागीं आयलो ना.

पूण बसपगारी जाल्या उपरांत ताच्या जिविताचे गाडयेन रूळ बदललें. निवत्ती उपरांत खूब जाण बेकार जातात; फुडली दिका तांकां सांपडना; तातूंतल्यान तांकां निर्शेणी येता; तांतले कांय बेगीन सोंपतात. तर कांय भोवशीक जिणेंत वयल्या अधिकाराचीं पदां भुशयिल्ले लोक निवृत्ती उपरांत जनतेच्या विस्मरणांत वतात. पूण सुरेशबाबाचें तशें घडलें ना. कारण ताणें सर्जनशील वावरांत सक्रीय जावपाचो आनंदमय जावपाचो मार्ग आपणायलो. ते खातीर अणकाराचें मळ सोदून काडलें. आनी त्या कामांत तन मन धनान पुरायेन ओंपून घेतलें. आनी अजाप! मावळ्याचें कवित्व सोडल्यार कसलीच फाटभूंय नाशिल्ल्या ह्या मनशान धर्मग्रंथांक कोंकणींत अणकारपाच्या मळार दोळे दिपकावपी वावर करून दाखयलो. परिणाम- निवृत्ती पयलीं शिक्षणाच्या आनी उपरांत अणकार-सहित्याच्या मळार ताणें केल्ल्या वावरा खातीर ताका राष्टीय पावंड्या वयली चवथ्या क्रमांकाची अशी पद्मश्री ही पदवी लेगित फावो जाली.

सुरेशबाबाचो जल्म आजोळा बोरये आनी शिक्षण बापायचे शाळेंत म्हापश्यां जालें. मॅट्रिकेक पयलीं फ्रेंच आनी उपरांत संस्कृत घेतकूच ताका भाशांची गोडी लागली. मागीर मुंबय विल्सन कॉलेजींत शिकतना कांय विद्वानांचे संवकळींत येवन ताणें संस्कृताचो अभ्यास फुडें चालू दवरलो. विल्सन कॉलेजींत ताचे पयलीं शिकून गेल्ल्या काशिनाथ महाले आनी मनोहरराय सरदेसाय हांणी गोंयकार विद्यार्थी हुशार म्हणपाची नामना जोडिल्ल्यान सुरेशबाबाचेरूय ती परंपरा फुडें व्हरपाची जापसालदारकी येवन पडली. आनी ताणें ती बरे भशेन निभायली. मुंबयंत ताका

नामनेचे विद्वान आनी खडेगांठ गोंयकार स्वातंत्र्यसेनानी फा. एच. ओ. मास्कारेन्हास ह्या कोंकणीचो उपाट मोग करपी म्हालगड्याची भेट जाली. सेंट सेबस्तियान हायस्कुलाचे ते प्राचार्य आसले. तांचे वरवीं आपणांक भारती संस्कृतीची वळख आनी कोंकणीचो दिस्टावो जालो अशें सुरेशबाब म्हणी. पदवी परिक्षा जातकूच सुरेशबाबान बी. एड. चीय पदवी घेतली. फुडल्या शिक्षणा खातीर लंडनाक वचपाचो ताचो हावेस आसलो. पूण तितले मजगतीं केनयांतल्या मॉंबासा शारांत नोकरी चलून आयली आनी तो थंय पावलो. पूण चार वर्सां सरचे पयलींच बापायक काळजाची पिडा उपराशिल्ल्यान ताका ताकतिकेन गोंयां परतूचें पडलें. म्हणसर गोंय स्वतंत्र जालें.

गोंयच्या शिक्षण वेवस्थेची गुणवत्ता वाडोवपा खातीर सुरेशबाबान केल्लो मोलादीक वावर सर्वश्रूत आसा. स्वतंत्र गोंयांत जाल्ल्या बोर्डाचे परिक्षेंत गुंडू सिताराम आमोणकार हायस्कुलाच्या विद्यार्थ्यांनी मॅरीट लिस्टांत वयल्यो सुवाती जिखून सुरेशबाबाचे फिशालकायेची सुलूस दाखयली. ते उपरांत ताणें फाटीं पळयलेंच ना. संस्कृतीक मळारूय ताणें खूब नामना जोडली. रोटरी क्लबांत जावं रॅड क्रॉस सोसायटींत जावं बालवीर चळवळींत वावर केलो. राजकारणूय सोडलें ना. म्हापसा नगरपालिकेचेर दोन खेंपो वेंचून आयलो. नगराध्यक्षूय जालो. जनमत कौला वेळार सभा गाजयल्यो. उपरांतचे वेंचणुकेंत कॉंग्रेसीचे तिकेटीचेर वेंचणूकूय लडयली. पूण थंय हार खाल्या उपरांत तो कुशीक सरलो. राजकी मळ आपणा खातीर न्हय हें होलमल्ल्यान ताणें मागीर शिक्षणीक कामाक वेंग मारली.

गोंय मुक्ती उपरांत गोंयचे अस्मितायेचे नदरेन ज्यो दोन म्हत्वाच्यो घडणुको घडल्यो त्यो म्हळ्यार, १. जनमत कौल आनी २. राजभास आंदोलन. ओपिनियन पोल हो गोंयचें राजकी अस्तित्व तगोवपा खातीर जाल्यार कोंकणी प्रजेचो आवाजाचें आंदोलन हें गोंयकारांची भाशीक आनी संस्कृतीक अस्मिताय राखपा खातीर आसलें. सवें दसक कौलान गाजयलें जाल्यार आठवे दसक भाशा आंदोलनान. सुरेशबाबान जनमत कौला वेळार विलिनीकरण विरोधांत वावर केलो. पूण उपरांतच्या आंदोलनांत प्रत्यक्ष वांटो घेतलो ना. घडये, सरकारी नोकरेक लागून जावंये.

आठवें दसक मात सुरेशबाबान गाजयलें खरें, पूण वेगळ्या कारणाक लागून. तेन्ना तो गोंय माध्यमीक आनी उच्च माध्यमीक शिक्षण मंडळचो अध्यक्ष आसलो. राजकी हस्तक्षेप जावन उत्तरपत्रिकेंतल्या गुणांच्या फेरबदलाची भानगड उक्ताडार आयली ती पालोवपाचे येत्न वयल्या पावंड्यार सुरू जाले तेन्ना सुरेशबाबान घेतिल्ल्या कणखर भुमिकेक लागून तो उजवाडाच्या झोतांत आयलो. पूण हे गजालीक हात घालचे पयलीं म्हाका सदांच धोंगसुपी म्हजो एक उगडास सांगतां.

सुरेशबाबाची बोर्डाचो चेअरमन म्हूण १९८० वर्सा नेमणूक जाली. तेन्ना 'जावं, आमचो कोंकणी मोगी मनीस ह्या उच्च पदार पावलो. आतां कोंकणीक न्याय मेळटलो' अशी म्हजी भावना जाल्ली. हांव माजोड्ड्यां पाठ्यपुस्तकां विकतालों. पाठ्यपुस्तकां तेन्ना गोंयां तयार जायनासलीं. महाराष्ट्रांतल्यान येतालीं. महाराष्ट्र पाठ्यपुस्तक मंडळ तयार करतालें आनी मे-जुनांत हीं पुस्तकां पर्वरीच्या बोर्डाचे इमारतींत विकरेक मेळटालीं. त्या दिसांनी कोंकणी पाठ्यपुस्तकां केन्नाच वेळार पावनासलीं. मागीर इत्सा आसुनूय खूब भुरगीं दुसरी भास म्हूण मराठी वा फ्रेंच घेतालीं. मराठी पुस्तकां पयलीं मेळप आनी कोंकणी पुस्तक येवपाक जुलय म्हयनो उजवाडप हाचो म्हाका राग येतालो. एक दीस हांवें येवजिलें, ही गजाल चेअरमनाच्या कानार घालतलों. ताच्या केबिनांत ताका मेळपाक गेलों. पयलीं धा-पंदरा मिणटां भायर तिश्टुचें पडलें. मागीर भितर आफयलो. सुरेशबाबाच्या कानांर ही गजाल घाली. आयकून घेतलें आनी, 'पाठ्यपुस्तकां विशीं अमक्याक वचून मेळ' इतलें सांगून मुखा वयले फायलींत तकली घाली. म्हाका दिशिल्लें तो म्हाका विचारतलो, 'सध्याक कितें बरयता? कोंकणीचो वावर कसो चलला?' पूण ताणें कसलीच आस्था दाखयली ना. घडये कामाचो भार आशिल्लो जावंये. हो कोंकणीचो मनीस आसलो तरी तो पयलीं एक सरकारी अधिकारी इतली जाण घेवन हांव परतलों तो परतो केन्नाच ताका चेअरमन म्हूण मेळपाक गेलों ना. ताच्या अणकार वावरा निमतान उपरांत खूब खेपो मेळ्ळों. त्या वेळार मनांत येतालें, ताका स्पश्ट विचारचें, तूं तेन्ना असो कसो वागलो! पूण उरलेंच... आनी हांवूय विसरून गेलों.

'मार्क्स स्कॅंडल' घडलें आनी साबार लोक चाळवले. विद्यार्थ्यांनीय धुमशेणां घालीं. चेअरमन म्हूण सुरेशबाबाचेर खूब चेपण आयलें. पूण त्या बोवाळांत प्रस्थापितांच्या विरोधांत आपणाले लागणुकेक दसून राविल्ल्यान सुरेशबाबाची प्रतिमा खूब उजळ जावंक पावली. खबर जाली ती अशी. सुरेशबाबाचो तो बोर्डाचो अध्यक्ष म्हूण दुसरो कार्यकाळ. एके विद्यार्थिनीचे उत्तरपत्रिकेंत फेरबदल करून तिचे मार्क वाडोवपाची गजाल बोर्डांत घडली आनी रोखडीच प्रसार माध्यमांतल्यान सगल्याक फां फां जाली. चेअरमनान हे गजालीची गंभीर दखल घेवन बेगोबेग भितर्गत चवकशी केली. दोशी कोण तें सोदून काडलें. ते विद्यर्थिनीचोय हात ह्या प्रकरणांत आसा म्हणपाचें कळ्ळें. हें प्रकरण रांदनीर आसतनाच एक दीस तेन्नाचे नायब राज्यपाल डॉ. गोपाल सिंग हाणें चवकशी करपाच्या निमतान हस्तक्षेप केलो. गोंय तेन्ना केंद्रशासीत प्रदेश आशिल्ल्यान नायब राज्यपालाक प्रशासकीय अधिकार खूब आसले. ताणें आदेश दिलो की बोर्डाच्या चेअरमनान संबंदीत विद्यर्थिनीच्यो उत्तरपत्रिका आनि चवकशेचीं हेर कागदां घेवन बेगोबेग काबु राजनिवासाचेर येवचें. पूण तशें करप कायद्याचे फास्केंत बसनाशिल्लें. उत्तरपत्रिका आपूण न्यायालय सोडून आनीक कोणाकूच दाखोवंक शकना अशी स्पश्ट जाप सुरेशबाबान धाडली. राज्यपालाचें पिन्त चाळवलें. ताणें बोर्डाच्या चेअरमनाक ज्याइज्या राजभवनाचेर आफोवन घेतलो. आनी परत्या परती जाप दिली म्हूण सुरेशबाबाक बरोच तापयलो. उत्तरपत्रिका आपणांक दाखयना जाल्यार वरिश्टांचो आदेश पाळना ह्या कलमा खाला बडतर्फ करपाचीय धमकी दिली. खूब मानसीक चेपण येवनूय सुरेशबाबान तत्वा कडेन तडजोड केली ना. मागीर राज्यपालाचे सांगणेन गोंय सरकारान ताका 'कारणां दाखय' नोटीस काडली. तिकाय सुरेशबाबान फावो ती जाप दिली. ह्या सबंद

प्रकरणांत प्रसार माध्यमांनी आनी विद्यार्थी चळवळीन सुरेशबाबाकूच तेंको दिल्ल्यान शिक्षण मंडळाची प्रतिश्ठा शाबूत उरपाक पावली. निमणें राज्यपालाक नमतें घेवचें पडलें आनी प्रकरण मेटलें. उपरांत सुरेशबाबान तिसरोय कार्यकाळ घेवचो अशें सुचयिल्लें खंय. पूण भोगलें तें खूब जालें अशें म्हूण तो फाटीं सरलो.

१९९६ वर्सा निवृत्त जाय मेरेन सुरेशबाबान कोंकणी भाशीक वा साहित्यीक चळवळीक कसलेंच योगदान दिल्लें ना. ताचो पिंडच साहित्यीक नासलो. पूण साहित्याची बरी जाण ताका आसली. आनी आसरमांडी घालून वरांचीं वरां बसपाची संशोधकाची वृत्ती आसली. देखूनच सेवानिवृत्त जिणेंत इतले व्हड व्हडले धर्मग्रंथ कोंकणींत अणकारून कोंकणी सरस्पत मंदिराचें अणकार साहित्याचें दालन भोव गिरेस्त करपाचें काम तो करूंक पावलो. 'निवेदन' कोंकणींत हाडप सोंपें. पूण 'धम्मपद' हो बौध तत्वगिन्यान खोलायेन केळोवपी भारादीक ग्रंथ सोंपे भाशेंत अणकारप सोपें न्हय. त्या संबंदीची खबर सुरेशबाब रुचीन सांगतालो. तो मुंबय गेल्ले कडेन एका फुटपाथार खंय ताणें हो इंग्लीशींत अणकारीत ग्रंथ पळयलो. मूळ पाली भाशेंतल्या ह्या इंग्लीश अणकाराची खासा धर्मानंद कोसंबीन तोखणाय केल्ल्यान तो प्रमाण अणकार म्हणपाचें ताका होलमलें. मुळांत बुद्ध आनी बौध तत्वज्ञानाची ओड आशिल्ल्यान ताणें तो जडेलो ग्रंथ विकतो घेतलो. वाचलो. आनी ताचो कोंकणींत अणकार करपाची जबर इत्सा जाली. पूण अणकाराचो अणकार करचे परस मूळ पाली ग्रंथ पळोवचो-वाचचो हे वानशेन ताणें पाली कोश आनी व्याकरण शिकून मूळ पाली ग्रंथ वाचलो. हेर भाशांतले अणकारूय वाचून पळयले. रविन्द्रबाबाचो आशिर्वाद घेवन कामाक हात घालो. आनी दीर्घ काळाच्या वावराची फलश्रुती म्हूण कोंकणी धम्मपद उजवाडाक आयलें. कोंकणी साहित्यांत मोलाची भर घालपी पुस्तक म्हूण ताका साहित्य अकादेमीचो अनुवाद पुरस्कारूय फावो जालो. हो पुरस्कारूय कांय कारणांक लागून वादग्रस्त जाल्लो. पाली भास ही भारतीय भाशां मदीं येना अशें थारावन तें पुस्तक त्या वर्सा कडेक काडलें तेन्ना त्या वेळार अकादेमीचेर आशिल्लो फेलीस्युबाब कार्दोज झगडलो. पाली ही भारतीय भासूच जाल्ल्यान तिका तो दिवपाक फावता असो आगरो धरलो. निमाणें ताचें सांगणे ग्राह्य धरून हो पुरस्कार फुडल्या वर्सा दिलो.

कोंकणी धम्मपद कितल्या जाणांनी वाचलां वा कितल्या समिक्षकांनी ताची दखल घेतल्या हाचेर भासाभास जावं येताली. पूण सुरेशबाबान ताची व्हडली शी पर्वा केली ना. दुडू वा नामना मेळची हो हेत बाळगून आपणे हो वावर केलो ना, तर स्वानंदा खातीर केला अशें लेखून फुडलो प्रकल्प आनी मागीर ताच्या फुडलो आनी मागीर आनीक फुडलो हातांत घेत रावलो. 'रोसाळ ज्ञानेश्वरी' आनी 'भगवंतान गायिल्लें गीत' हे ज्ञानेश्वरी आनी भगवद्गीतेचे अणकार, तमीळ भाशेंतलो नामनेचो ग्रंथ 'तिरुक्कुरल' जावं 'जपुजी साहिब' हो शिखांचो पवित्र ग्रंथ ताणें कोंकणींत हाडलो. 'सां जुआंवा प्रमाण जेजू ख्रिस्ताचें शुभवर्तमान' हो ख्रिस्ती धर्मग्रंथ वा 'झेनचो दिश्टावो' हें झेन तत्वज्ञानाचें पुस्तक अणकारलें. त्या उपरांत ताणें फा. थोमस स्टिफन्स हांणी मराठींत रचिल्ल्या 'ख्रिस्त पुराणा'क हात घालो. तो अभ्यास येदो व्हडलो की ताची प्रस्तावना होच एक ग्रंथ जावंक पावलो. येदी व्हडली अणकारांची कोठी उबारपा फाटल्यान केदी साधना आसा ताचो विचारच केल्यार सुरेशबाबाचे चिकाटेची, सातत्याची आनी परिश्रमांची तोखणाय करची तितली थोडी दिसता.

इतल्यान पुरो अशें सुरेशबाबान केन्नाच म्हळें ना. धर्मग्रंथांतल्यान भायर सरून ताणें आपल्यो कक्षाय रुंदायल्यो. बौध विचार कथांतल्यान पातळावपी 'जातक कथा' आनी संत तुकारामाले अभंग ताणें 'सुंदर तें ध्यान' ह्या नांवान अणकारल्यो. 'पंचवेणी' हो पांच विंगड विंगड गितां भावार्थ ग्रंथांचो तुळनात्मक अभ्यास करून पुस्तक बरयलें. ते पयलीं ताणें टी. बी. कुन्हालें पुस्तक कोंकणींत हाडिल्लें. आतां शेक्सपिअर साद घालपाक लागलो आनी तोय कोंकणींत हाडलो. निमणे मेरेन तो वावर करीत रावलो. म्हाका खातरी आसा आयजूय ताच्या मेजार ताचें अपुर्ण अणकारीत साहित्य पुर्णत्वा कडेन वचपाची वाट पळयत राविल्लें आसतलें.

केन्ना केन्ना हांव येवजितां, खंय बुद्धाचें धम्मपद आनी खंय भगवद्गीता; खंय जपुजी साहिब आनी खंय तिरुक्कुरल! हीं परस्पर विरोधी तत्वज्ञानां ताणें मानून घेतलीं आनी पचयलीं तरी कशीं? ताणें जेझुकूय लागीं केलो आनी कृष्णाकूय? तांचे मदलें द्वैत ताका जाणवलें ना? गीता अर्जुनाक युद्धाक प्रवृत्त करपा खातीर बरयिल्ली जाल्यार एका पोल्यार मारल्यार दुसरो पोलो दिवपाची जेझूची शिकवण. दोनींचोय सांगोड कसो घालतालो काय सुरेशबाब? काय स्वताक तांच्या विचार-धारणां पासून अलिप्त दवरून तो हे अणकार करतालो? तें कितेंय आसूं. आयचे घटकेक, सुरेशबाबा वरी बसकण मारून सातत्यान साधना करपी संशोधक वृत्तीचो अनुवादक आमचे कडेन दुसरो ना, ही खरी आनी चिंतेची गजाल.

२००७ वर्सा म्हाका कॅन्सराची बादा जाल्ली. देडेक वर्सा उपरांत हांव मनान तरी तातूंतल्यान भायर सरलों. लेखनाकूय सुरवात केली. २००८ वर्सा सुरेशबाबाचो फोन आयलो, ''भाई, हांव आयलों आं तुज्या सांगाताक!'' तेन्नाच्यान सुरेशबाब कॅन्सरा कडेन झूंज दीत आशिल्लो. हांवें एक दीस म्हणलें लेगीत ताका, ''झूंज दिवप ना; इश्टागत करप कॅन्सरा कडेन. उपरांत जेन्ना माधवीक कॅन्सरान बेसावध सांपडायली तेन्ना तिणें म्हणिल्लें,'' भाई आनी सुरेशबाबा कडेन पळोवन म्हाका दिसता हांवूय हातूंतल्यान भायर सरतलें. आयज कोणाकूय दिसुंये, 'माधवी हारलें, सुरेशबाब हारलो, कॅन्सर जिखलो.' पूण तें निखालस खरें न्हय. हीं दोगांय अखेर मेरेन वावर करीत रावलीं, सर्जनशील रावलीं; कॅन्सराची पर्वा करिनासतना. मरण हुमरार पावलें तरी बें म्हणलें ना. हें तांचें जैत. आनी तांची जिद्द आनी 'स्पिरीट' मोडूंक पावलो ना ही कॅन्सराची हार!

सुरेशबाब मरणाक परमसखा म्हणटालो. म्हाका खातरीन दिसता, डिसेंबराचे आठ तारखेर हो ताचो परम-इश्ट ताका व्हरपाक आयलो- ''या मरे?'' आनी सुरेशबाबान तत्काळ हांसून म्हळें, ''हय तर! तुजीच वाट पळयतालों.'' संपर्क: ९४२२०५९५०९

# ध वर्डस् - अस्वस्थ प्रवास

**प्रकाश वजरीकार**




कवी निलबा खांडेकार हांकां अंदू वर्साचो केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कार 'ध वर्डस्' ह्या कविता झेल्याक फावो जालो. ते निमतान ह्या कविता झेल्यांचे परत एकदा वाचन जालें. निलबाच्यो कविता समजतलो जाल्यार तांच्या कवितांचे मना सावन वाचन करप गरजेचें तेच वांगडा निलबान ज्या समाजीक, राजकीय संदर्भांचो उल्लेख केला ते संदर्भ साहित्य लेगीत वाचप्यांक खबर आसप गरजेचें असो विचार करून कविता बरोवपी हो कवी. तांचे कवितेचो 'वेध' घेताना तांची तरेकवार रुपां दिश्टी पडटात.

'ध वर्डस्' हो कविता झेलो २०१७ वर्सा उजवाडाक आयला. ४९ कविता ह्या झेल्यांत आसपावतात. विशयांचे वेगळेपण दाखोवपी कांय कविता वाचपाक मेळटात. कवी एका काल्पनीक विश्वाची निर्मणी 'ध वर्डस्'च्या माध्यमांतल्यान करता. आपल्यातल्या कवीक - एक अनवळखी मळब तयार करपाक लायता. तें कवी मन शेश भारताचें, वास्तव - विदारक चित्रण करता. तो काळखाचो पुरस्कार करून सत्याचो उजवाड हाडटा. काव्य विश्व निर्मणेंतल्यो 'संभोग अवस्था' दाखोवपी तांची 'अशीच गेली कविता एकदा' नांवाची कविता. ''कविता स्फुरते अशी''ची जाणविकाय करून दिवपी आसा.

ह्या कवितेचो प्राण अस्वस्थताय हो आसा. ही समाजीक, राजकीय, तत्वीक तशेंच नवनिर्मणेचीच अस्वस्थता दाखोवपी आसा. देश आनी देशस्थ हो तांच्या खुबश्या कवितांचो अंत:सूर दिसता. तो अस्वस्थ रितीन व्यक्त जाता -



'म्हजे अंतरींतल्यान मन मोहन सिंग
आनी मोदीय उलयतात
राम कृष्ण उलयतात आनी क्रिस्तूय
बिबिसी आनी अली जजीराय
खूब जाण उलयतात म्हजे अंतरीतल्यान
फकत उलयता तो हांवूच
सदांच बफर झोना भायर रावून लेगीत -
(शेशभारत: ११)

'हें हांगा सर अशेंच चलपाचें' कवी हताश जावन मानून घेता. घडितांची वाट पळोवन. घडिल्ल्या घडणुकांचेर चिंतन मनन करून विचारपूर्वक काव्य मांडपी कवींच्या कितल्योश्योच प्रासंगीक कविता वाचपाक मेळटात. तशेंच स्मृतीसुखांक दिल्ली काव्यमय उबेची याद ते कवितांनी मांडटाना दिसतात. तातूंत शेणिल्लो गांव, सांकव, व्यक्ती चित्रां, सैम चित्रां तटस्थतायेन रंगयताना गांवांक हांव परकी जालां पूण गांव परकी जावंक ना ही जाणविकाय, गांवा पासून, संस्कृतीक अधिश्टाना कडल्यान तुटिल्ल्या सामान्य मनशाची व्यथा ते मांडटात. ते अर्थान कवी मन गांवां भायरें जालां देखून तें चडान चड स्मृती सुखान रमपाचो यत्न करता. कवीचो गांव दोंगरे. ह्या दोंगरे गांवची काव्य परंपरा चलोवपी कृष्णभट बांदकरा फाटल्यान विष्णू वाघ आनी निलबा खांडेकार हे कवी. खांडेकार आनी वाघ हांणी दोंगरे वयलें चित्रण, सटीमातेचें वर्णन त्या गावांतली क्रिस्तांव भौसांतली कश्टी व्यक्तीमत्वां काव्यान चित्रायल्यांत तांचो तुलनात्मक अभ्यास करप हो वेगळोच विशय जावं येता.

'चेपो, सोनुलो, कांता तायट जावन उब्या गांवाक उतरायताले
आनी ह्याच सांकवार लोळटाले खुबदां
तरीय चुकून केन्ना ते नासत जाल्यार
उब्या दिसाचें म्हत्वूच पिड्डयार दिसतालें.'

विष्णू वाघाच्या कोंकणी/मराठी कवितानीय कोंकण्या-क्रिस्तांव समाजांतली दोंगरे वयली 'इजाबेला' सारखी व्यक्ती चित्रणां वास्तवाच्या निकशानूच पळोवपाक मेळटात

कविता झेल्यान कवी बरें आनी वायट सोदतात. सत्य आनी अहिंसेचोय पुरस्कार करता. बरें आनी खरें हाचो सोद घेवंक लावपी कांय कविता वाचपाक मेळटा. त्यो वाचताना 'दु:ख हीच मनशाची खरी वळख' हाची प्रचिती कवी करून दिता. मोनेळ हो विशय मांडपी कवी मौनांतल्यानूच खूब कितें सांगता. तांच्या कवितेंतले मौन हें चिरंतन सत्याचो घेतिल्लो सोद आसा. गांधीच्या मौनव्रतांत जितली व्हड ताकद आशिल्ली ते ताकदीचो सोद कवीच्या मौन सहमतीन दिश्टी पडटा. मनशां मनशां मदलें निरंतर अंतर हो आंतरीक अस्वस्थतायेचो प्रस्न कवी कवितांनी मांडटा. 'माती'च आमकां एकठांय हाडूंक शकता देखून हे मातये कडली नाळ तोडू नाकात असो सूर तांची कविता घेता. देखीक -

एकदां तरी ह्या हातांनी
हे मातयेक काळजाकडेन धरात
हे मातयेच्या रिणांतल्यान मुक्ती मेळचीच ना

पूण मातयेच्या जिविताचें सार्थक तरी करात. (माती. ९६)

कोंकणी कवितेंत पावसाचीं तरेकवार रुपां, तरेकवार भाववृत्ती सयत तरेकवार कवींनी दाखयल्यात. कोंकणी कवितेंतल्यो पावस ह्या विशयाचेरूच वेंचीक शंबरेक कवितांचे संकलन प्रकाशीत करूं येता. निलबानूय पावसाचीं कांय रुपां मांडल्यात - तांची कविता चिरंतन वेदनेचो पावस घेवन येता.

'म्हाका पावसाचेर कविता म्हणपाची आशिल्ली
आनी तशेंच म्हाका सुचयल्लें बी
पूण हांवें पयलीच कविता सोऱ्याचेर वाचली
सोऱ्यान बुडून गेल्ल्या मनाचेर वाचली
कविता आनी सोरो हांच्या रिलेशनाचेर वाचली.

(चिरंतन वेदनेचो पावस १४३)

निरंतर, चिरंतन, शिरंतर अश्या वृत्तीचे विंगड विंगड भाव उस्तावपी कांय कविता ह्या झेल्यांत येतात. गांधी, नेहरु, बुद्ध लेगीत अशे कितलेशेच तत्वपुरुश, लोकोत्तर पुरुश, समाज पुरुश, राजकी-समाजीक व्यक्ती. घडणुको हांचो संदर्भ घेवन कितल्योश्योच कविता येतात. निलबाच्या एकंदरीत कविता प्रवासांत तात्कालीक घडणुको आनी अश्या व्यक्तीचेर बरयल्ल्यो कितल्योश्योच दीर्घ कविता वाचपाक मेळटा. ते स्तोत्रां बरयनात पूण त्या पुरुशांचे चरित्र दर्शन वास्तवाक धरून कशें बरें वायट, कमी - उणें पडटा ताचो सोद घेता. कवीच्या साहित्य साधनेच्या, वाचन, चिंतन मननाच्या प्रवासात आनी प्रकृतीक बसपी विशय, व्यक्तींचो जबरदस्थ प्रभाव तांच्या कवितांनी दिसता. खुबशे फावटी ह्या अशे तरेच्या दीर्घ कवितांतल्यान एकसुत्रता तुटून वता आनी ती कविता शब्द बंबाळ जाता काय कितें अशें दिसता. कवीन जें जें वाचलां तें तें सगळेंच काव्यमय दर्शनान मांडपाचो शब्द मोह कांय कडेन सुटना. देखून विशयांची पुनरुक्ती जाल्ली दिश्टी पडटा तांच्या समग्र कवितेच्या बाबतीन हो मुद्दो म्हाका मांडपाचो आसा.

दोंगरे वयल्या मनशांचे चित्रण करताना होच विचार येता. दोंगरे वयल्या लोकश्रद्धेचें वर्णन करतानाय तांची एकंदरीत कवीता विशय-मांडावळीचे नदरेंतल्यान पुनरुक्ती दाखयता. दत्ता नायक म्हणटात ते भशेन साहित्याचे प्रयोजन फक्त स्मृती सूख दिवप न्हय तर भविश्यसूख दिवपूय आसपाक जाय. आमचे खुबशे कवी अश्या स्मृतीस्थळानीच घुस्पून उरल्यात देखून तांच्या कवितांची फावो तशी वाढ जाल्ली दिश्टी पडना.

निलबाच्या कवितांनी देह-संबंधाचो दिश्टावो घडटा. निलबा शरीर संबंधा कडेन सर्जनशील, भोगवस्तू, भोगविकृती, मानसीक विकृती, निर्मिती आनंद आनी मानवी जिवितांतलो अविभाज्य घटक हे नदरेंतल्यान मांडटा. शिल्प चित्रां आनी उतरां हांच्या माध्यमांतल्यान मेकळेपणान व्यक्त जाल्ली समृद्ध जगपाची परंपरा मुखार व्हरताना तो बेधडक पणान बरयता हें म्हत्वाचे. पुंडलीक नायक, दामोदर मावजो हांणी जे तरेन धिटायेन शरीर संबंदाचें चित्रण केलां तिवूय परंपरा निलबा आपले कवितेंतल्यान मुखार व्हरता. तेन्ना ताच्या कवितांनी - 'सोयीचे निकश'लावन अश्लीलताय सोदपाची मात्तूय गरज ना. अशें संदर्भ मेकळेपणान 'ध वर्ड्स' ह्याय कविता झेल्यांत आसपावतात.

निलबाच्या ह्या कविता झेल्यांत ४९ कविता आसपावतात. पूण तांचे मनोगत उक्तावपी वा अर्पण पत्रीका दाखोवपी ही पन्नासावी कविता म्हण वाचची. पूण ती वाचताना निलबा खांडेकार नांवाचो नास्तीक अस्तीत्त्ववादी, समतावादी कवी ज्या 'भाग्याची अपेक्षा' करता ताचे वयल्यान तांची मुखावेली कविता कूस परततली काय?

संपर्क: ९९२३२४५६०३



# कविते विशीं

**माधव बोरकार**



'पाहिलें न पाहिले' ही पु. शि. रेगे हांची कविता. तातूंत तांणी नकळटां कवितेचे लयी प्रमाण नादमयी शब्द घडयल्यात. घडयल्या म्हणचे परस ते तशे घडल्यात. 'झंजन झांजरें', 'ठिबक ठाकडें', बहर-बावरें' अश्यो ह्यो उतरांच्यो आपसूक जुळून आयिल्ल्यो जोडयो.

ही कविता वाचतना संतुराचेर वाजयल्ल्या. रागाचो भास जाता. Impressionist शैलींत काडिल्लें चिंत्र आसचें तशी ही कविता तिच्या आशया सयत जाणवता: म्हज्या दोळ्या मुखार तर स्युरा ह्या चित्रकाराची बिंदूवादी शैलींतलीं चित्रां येतात.

***

१५.०३.१९

कटाव हे वृत्त संगीताच्या आंगान वता. खरें पूण ताका गद्याचें तांस आसा हे लक्षांत घेवपाक जाय. 'अमृतरायान रचिल्लों सुदाम चरित्र हें कटाव ताची आपुली वागवुनि आंगोळी, घालुनि मोतियांची रांगोळी, करवी ब्राह्मणांसी आंघोळी, चौकन्हाण विहिणीचें, तैसें ब्रह्म श्री बहिणींचे हिरवे नळे केळीचे.. वयले वयर पळयत जाल्यार गद्य वाचिल्ले वरी दिसता. दुसरे नदरेन पळयत जाल्यार ती आडवी कविताच आसा. हरदास कटावांचो उपेग कथेंत रंग भरपाक करतात. हें सगळें गद्य स्वरांनी बांदिल्लें. तातूंतलीं अंतर्यमकां म्हत्त्वाचीं आनी अनुप्रासूय. तेच प्रमाण आयच्या मुक्तछंदांत जें मेकळेंपण जाणवता ताचो अणभव कटावात येता.

***

२४.०३.१९

अणभव बरो मुरचो पडटा. ताका केन्ना केन्नाय वर्साची वर्सांय लागतात. जितलो काळ वता तितलो तो कवितेंतल्यान मोटे तांकीन व्यक्त जाता.

***

२५.०३.१९

भाशेंतलें उतर
आत्म्याचो उद्गार
कळना केन्ना जायत
उक्तें बंद जाल्लें दार.

***

२६.०३.१९

मंगेश पाडगांवकाराली कविता rhetorical कित्याक जाली असो प्रस्न पडटा. चड करून तांच्या निमाण्या पर्वांतल्यो कविता वाचतना ताचो अणभव येता. मुळांत पाडगांवकाराची कविता अस्सल लिरीसिजम केळोवपी. आतां मात तिचो हो गूण तिका सोडून गेल्लो दिसता. राजकीय आनी सामाजीक जाणिवो तिचेर शेक गाजयतात. 'अखेरची वही' ह्या तांच्या अखेरच्या कविता संग्रहांत अशे तरेच्यो कविता चड प्रमाणात आसात. 'उदासबोध', 'मोरु', 'सलाम', 'विदुषक' हय़ा संग्रहांतल्यो कांय कविता मुद्दम थारावन बरयल्यात, काय अशें दिसता. 'जिप्सी', 'उत्सव', 'छोरी', 'भटके पक्षी' ह्या संग्रहांतल्यो कविता तांच्या मूळ आनी नीज प्रकृतीक धरून बरयल्यात असो अणभव येता.

पाडगांवकर आपल्या मूळ प्रकृती कडल्यान पयस वता काय अशें दिसता. ताका आनीक एक कारण आसूं येता. लोकप्रियता. तांच्या कविता वाचनाचे कार्यावळींची गरज म्हूण तांणी ह्यो असल्यो कविता बरयल्यो काय? करंदीकर, बापट आनी पाडगांवकर हांचे मदलो पाडगांवकर चड लोकप्रीय कवी. त्या असल्या rhetorical कवितांक लागून करंदीकर बरोच cerebral ताका लागून तांच्यो कविता समजुपी थोडे. थोडे भोव बापट कळपाक सोंपे पूण तांची कविता लोकप्रियतेच्या पांवड्यार तितली पावना. मात 'आनंदऋतू' ह्या संग्रहांतल्यो pure lyrical म्हणून येतात अश्यो कवीक आपल्या मूळ रुपा कडेन वचपाची ओड आसता ती अशी.

***

०३.०४.१९

कवितेचो अर्थ समजप आनी ती आवडप हांचो एकामेकां कडेन कितें सबंद आसा असो एक प्रस्न येता. खूप फावट कविता वाचतना वा आयकतना ती समजल्ले भशेन दिसता. पूण खोलायेन विचार केल्यार ती अजून समजुपा पेल्यान आसा असो अणभव येता. तरीय ती आवडटा. अर्थ कळूं वा कळूं नाका शब्दांचो नाद आनी तिच्या लयेचें आंग तुका तिचे कडेन ओडीत रावता. नादांतल्यान मनांत जावपी गुंजन कवितेक एक वेगळीच सोबीतकाय दिता. देखून ती कविता समजूं वा न समजूं ती आवडपाक लागता.

कविता समजुपाचे वेगळे वेगळे पावंडे आसतात. कवितेची आस्वादक आनी ताची पिराय लक्षांत घेवप गरजेचें आसता.

***

०८.०४.१९

कवी आपले कवितेची मूळ प्रकृती सोडून वेगळो आशय केळोवंक लागता तेन्ना तिच्या रुपाक तें बादिकार जाता. ती कृत्रीम

दिसूंक लागता. जो कवी सैमाचे स्तोत्र गायता तो एकदम सामाजीक आशयाच्यो कविता बरोवंक लागलो जाल्यार? तो आपले मूळ प्रकृती पासून पयस वता असोच ताचो अर्थ जातलो. तो नवो आशय ते कवीच्या temperament कडेन आपल्याक जुळोवन घेना. आनी मागीर ती कविता कृत्रीम दिसपाक लागता. प्रकाश पाडगांवकाराचो मूळ पिंड हो आध्यात्मीक कवीचो. 'उजवाडाचीं पावलां' ह्या संग्रहांतल्यो कविता ताची गवाय दिता. पूण मुखार ताचे कवितेन आपली दिका बदल्ली अशें त्या उपरांतच्यो कविता वाचतकच दिसता. हालींच्यो ताच्यो कविता ह्यो विचार मांडपा खातीर आयल्यात अशेंच दिसता.

अर्थात हे म्हाका दिसता. साहित्य आनी कलेच्या बाबतीत वस्तुनिश्ठ भुमिका घेवप शक्य नासता. कवी आपले सुवातेर बरोबर आसता आनी कवितेच्या आस्वादकाक आपली स्वतंत्र भुमिका घेवपाक मेकळीक मेळटा.

***

१२.०४.१९

काल एकाच दिसा चार कविता सुचल्यो. हालीं कांय नव्यो कविता बरोवन जाल्यो. मदलो काळ तसो सुकोच गेल्लो. घडये ज्या अणभवांतल्यान हांव वतां ताचो तो परिणाम आसुंये. चडशे कवितांनी ताची सावळी पडिल्ली दिसता. आनी ती अपरिहार्यपणान पडल्या. कवी आपल्या नीज अणभवां पासून पयस वचपाक शकता. अणभवूच तर ताचे कवितेचें मूळ द्रव्य आसता. तो त्या अणभवां कडेन कसो पळयता ताका म्हत्त्व आसता.

***

१६.०४.१९

कवितेची पयली वळ वा निमाणी वळ खंयची आसत हें ती येतना सांगपाक येना. ती सुचतना आयिल्ली पयली वळ तिचें पूर्ण रूप जाय म्हणसर ती निमणी जावं येता. वा एखाद्री कडव्याची मदली वळ पयलीय जावपाची शक्यताय न्हयकारूं येना. कविता पुराय रुपान तकलेंतल्यान कागदार उतरतकच हें सगळें लक्षांत येता. कविता मनांतल्या मनांत घोळयतना तिच्या आशयाचो तोल बिंदू लक्षांत येवप गरजेचें आसता. कवितेचे crafts तिच्या अभ्यासकांक म्हत्त्वाचें थारतात.

पॉल व्हेलेरीन एके कडेन म्हणलां : 'Bru line is given to the poet by God or by nature; the rest heh as to discover himself."

***

२८.०४.१९

वेळुस्काराचो 'झेन कविता' हो संग्रह परत वाचतालों. ताचे कवितेंत ऊंच सकयल खूप जाता. एक कविता एकदम उंचायेर वता तर रोखडीच दुसरी सामको सकयलो तळ गांठता. वा कांय कडेन पयल्यो कांय वळी गुणाचे नदरेन आनी आशयाचे नदरेनूय अर्थपूर्ण दिसतात. पूण तेच कवितेंतल्यो निमाण्यो वळी सामान्य दिसतात. कांय कडेन निव्वळ यमकां जुळोवपाचो सोंस.

शिरशिरता सवन शेत

स्तवन शेत

सवनाक जुळोवपाक स्तवन आयलां काय असो प्रश्न पडटा. अशे कितलेशेच जागे वेळुस्काराचे कवितेंत मेळटात. ते जागे ताची कविता डागळून उडयता. ही गजाल वेळुस्काराच्या केन्नाच लक्षांत आयली ना.

***

३०.०४.१९

दर एक कवी आपले प्रकृती प्रमाण रचना करता. आनी ही प्रकृती जपप हातूंत ताचे कवितेचें हीत आसता. वारें येता तशें सूप धरप हें वृत्तीक लागून कवितेचें नुकसान जाता. कांय कवींनी तशें आपले कवितेचें नुकसान करून घेतलां. कविता ही कवीच्या नीज अणभवांतल्यान आकाराक येता. जो अणभव ताचो न्हय तो कवितेंत हाडप म्हणल्यार मृगजळा फाटल्यान धांवप.

खंयचोय एक कवी बरे कवितेचो bench mark जावंक शकता. तशें मानप म्हणल्यार कवीचेर अन्याय करप अशें म्हणचें पडटलें. आमच्यांतले कवितेचे अभ्यासक दोळे उकते दवरून संवसारा कडेन पळोवंक केन्ना शिकतले? एखाद्र्या कवीन कितल्यो कविता बरयल्यात हे परस तांचो गुणात्मक पावंडो कितें हाचो विचार करप गरजेचें.

शेकी कविता ही सगळ्यांत पयलीं कविता आसपाक जाय.

***

०४.०५.१९

म्हजे कवितेचीं पोरणी बाडा काडून तीं परतून वाचून पळयलीं आनी कांय अप्रकाशीत कविता दुसऱ्या नोटबुकार उतरावन काडल्यो. ह्यो कविता आतां इतल्या वर्सां उपरांत वाचतना एक गजाल लक्षांत येता ती म्हणल्यार सुरवेक सावन आज मेरेनची म्हजी कविता एका सुत्रान बांदल्या. ती अशी की जें कितें व्यक्त करूंक जाय तें अचूक उतरांनी व्यक्त करपाचो तिचो गूण. ती आयस पयस पातळेंना वा वर्णनात्मक रूप घेना. ती सांगचे परस सुचयता चड. हो तिचो स्वभाव आजूय तसोच आसा.

***

०७.०५.१९

एमिली एक डिकिन्साच्यो कविता काव्यशास्त्राच्या खंयच्याच नेमान बसनाशिल्ल्यो. ताका लागून सुरवेच्या काळांत तिचे समिक्षक गोंदळांत पडले. आनी हे सगळें तिच्या मरणा उपरांत ह्या कवितांचो सोद लागलो तेन्ना. त्यो हयात आसतना तिच्या फकत स कवितांक उजवाडा दिशिल्लो. छंदशास्त्रचो तसो तिचो अभ्यास नाशिल्लो. आयलें तशें गायलें हे वृत्तीन तिणें अदमासान अठराशें कविता बरयल्यो आनी बासनांत बांदून दवरल्यो. तिणें आपले कवितेंत वापरिल्लीं विराम चित्रां आपल्याक जाय तशीं वापरल्यांत. विराम, अर्धविराम सारकिल्या चित्रां बरोबरच डॅशांचो थोडो हात सोडून वापर केला. वळींची लांबाय रुंदाय खंयच्या मात्र गणांच्या गणितांत बसना. मुख्य म्हणजे academic नदरेंतल्यान हे सगळे दोश. पूण तांचो आस्वाद घेतना हे दोश आड येनात. तिच्या उमाळ्यांची खरसाण एक सारकी जाणवत रावता. तेंच तिचे कवितेचें खाशेलेपण.

एमिली विशीं दोन कडवीं कोणें बरयल्यांत तीं कळना.
She's changing the world
She's shaltering the rules
Shinashing rules about poems
And worals
And now to use them
....
To hear the truth
Sometimes you must to alone
To hear your vision,
Sometimes you must break rules,
Essily does.

काव्यशास्त्राचे नेम मोडप हे प्रतिभावंताक सोबता. कुमार जेन्ना भुपा सारक्या रागाक वर्ज आशिल्लो सूर त्या रागांत आस्पावन घेता आनी तातूंतल्यान चैतीभूप या रागाची निर्मणी जाता ताका प्रतिभेचो आविश्कार अशें मानचें पडटा. अशीच प्रो. बा. र. देवधरांच्या हातसून मालकंसांतल्यान चंद्रकंसाची निर्मणी जाली.

***

०९.०५.१९

पु. शि. रेगेच्या 'दुसरा पक्षी' संग्रहांत 'तूं आलीस' ही कविता वाचतना तांच्या 'अवलोकिता' हे कादंबरेची याद जाता. अवलोकितांतलें प्रत्येक प्रकरण म्हणजे गद्य काव्य कशें. ही कविता म्हणल्यार तातूंतलेंच एक प्रकरण कशें दिसता. सगळीं मजाच कशी. अवलोकिता हांव दोन पांवड्यांचेर वाचतां. एक दीर्घ कविता आनी गद्य म्हूण.

***

१०.०५.१९

कविता ही केन्ना येवप सोंपी आसता? तिचे कडेन साधना म्हूण पळोवपाक जाय. तिका आपली निश्टा दिवपाक जाय. काळजाच्या तळा सावन दीस रात तिका होरावपाक जाय. इतलेंय करून ती तुजेर प्रसन्न जायत हाचो भरवंसो कोणें दिवचो? कला ही सदांच तशीच आसता. उस्ताद तिरखवां सारकिलो जेन्ना णव्वदाव्या वर्सा म्हणटा आत्तांच खंय तरी आपल्याक तीन ताल कळपाक लागला हाचो अर्थ कितें? कलावंताक आपले कले विशीं एके तरेचें असमाधान आसपाक जाय. तेन्नाच ताच्या हाताक कितें तरी लागपाची शक्यताय आसता.

***

१३.०५.१९

कवितेंत अर्था बरोबर ध्वनीकय तितलेंच म्हत्त्व आसता. ब्राऊनिंग, हॉपकिन्स हांच्या कवितांनी तर अर्थ आनी ध्वनी हांकां वेगळावंक येना.

***

Robert Penn Warren ह्या अमेरिकन कवीच्या वेंचीक कवितांचो संग्रह वाचतां. ह्या संग्रहांतल्यो कविता खासा कवीन वेंचून काडल्या. ते सबंदान तो बरयता, "Many of the poems in this drastically. But in revising old poems, I have tried not to temper with meanings, only to sharpen old meanings for poems are, in onw perspective at least, always a life record, and live their own life by that fact. कविता बरोवन कांय वर्सां उपरांत ती परती वाचतना कांय बदल सुचप हें सत न्हयकारूंक येना. हे बदल उतरावळीचे आसूं येता वा केन्ना केन्ना चड उण्या वळींचेय आसतात. म्हज्यो कांय चाळीस पंचेचाळीस वर्सां आदीं बरयिल्ल्यो कविता आज वाचतना अशें बदल करपाचो म्हाका मोह जाता. पोरन्या बाडांत उजवाडाक येवंक नाशिल्ल्यो कविता नव्या कादेर्नार बरोवन काडटना कांय किरकोळ बदल हांवें केल्यात. वोरन म्हणटा ते बदल खूब फावट शद्बांच्या क्रमाचे आसतात. कांय काळा उपरांत आदली कविता वाचतना शद्बांचो क्रम चुकिल्ल्यांचें लक्षांत येता. शद्बांचो क्रम आनी लय हांचो एकमेकां कडेन लागींचो सबंद आसता.

पु. शि. रेगेक आपले कवितेंत अशें बदल करपाची संवय आशिल्ली. पूण सुरवातीच्या कांय संग्रहां पुरती. कांय कवितांची कडवीं कापून ती ल्हान करप वा कांय काळा उपरांत ती मूळ जशी सुचिल्ली तशीच ती परत फुडल्या संग्रहांत आसपावन घेवप. 'गंधरेखा' ह्या संग्रहांत आदल्या संग्रहांतल्यो कांय कविता घेतना अशे बदल तांणी केल्ले दिसतात. आनी कांय कडेन ताचीं कारणांय ते दितात. 'त्रिधा राधा' हे कवितेंत तांणी एका शद्बाचो असो बदल केला. 'गंधरेखा' ह्या संग्रहांत तो छापतना 'संसिद्ध' असो शद्ब तांणी वापरला. पूण दुसरे आवृत्तींत 'स्वच्छंद' हो शद्ब येता. रेगे सांगतात ते प्रमाण मुळांत ती कविता बरयली तेन्ना ताणी स्वच्छंद होच शद्ब वापरिल्लो. संसिद्ध मागीर. हो शद्ब तांकां pendantic दिसलो. स्वच्छंद शद्बांतलें मेकळेपण संसिद्धात ना.

कवितेंतले बदल हे विराम चिन्नांचेय आसतात अर्थ आनी लयेचे नदरेन विरामचिन्नां हीं म्हत्वाचीं आसतात. विरामचिन्नाक लागून कवितेचो अर्थ बदलूक शकता. विरामचिन्नां म्हणल्यार अवकाश. तांकां लागून अपूर्ण कविता पूर्ण दिसता. खूप काळा उपरांत त्यो वाचतना तें लक्षांत येता. W. B. Yeats आपल्यो कविता परिश्कृत करपाची संवय आशिल्ली. रेगेच्या प्रत्येक कवितेचे एक दोन तरी drafts जातालेच. आनी त्या बदलांचेर ते भाश्य करताले. बाकीबाबाक कविता येताली तशीच ते कागदार उतरायतले. आडवादान केल्लेच जाल्यार कांय शद्बांचे बदल. पूण हें सगळें चुकून. रामाण्याक, बदल करपाची संवय आशिल्ली. 'सात जणी सात घडी' ही कविता 'सत्यकथा'त आयले उपरांत तांणी ती निमाणे वळिंनी बदल करून 'दर्पणीचे दीप' ह्या संग्रहांत आसपायल्या. 'बहरलेल्या सावल्या' ही 'गर्भागारां'तली कविता १९६५त बरयिल्ली. पूण एक वळ मना सारकी जुळूंक नाशिल्ल्यान कुशीक उरिल्ली. ती 'गर्भागार' संग्रहा खातीर कविता वेंचून काडपा वेळार पोरणे बाड चाळटना ती दिसली आनी तो बदलूय सुचलो. १९६५ ते २००० अशे दीर्घ प्रतिक्षेत ती उरली. त्या बाडांत 'तळत वळत जाय वाट माझी विरागी' ह्या नांवाची अशीच एक कविता आसा. खासा रामाण्याक ती कविता अर्थपूर्ण दिसताली. पूण एका शद्बाच्या बदलाक लागून तांणी ती कडेक दवरिल्ली.

वोरेन एके कडेन म्हण्टा, "The poem is not a thing we see, it is rather a light by which we may see, and what we

see is life."

०९.०६.१९

एक ल्हानशी जोडणी

विंदा करंदीकर शिकागोक आसतना तांणी दोन मुक्तसुनितां बरोवचेलो यत्न केलो. पूण तीं अर्दवट उरलीं. मुखार सुमार चवदा वर्सांनी तीं अर्दवट उरिल्लीं सुनितां पूर्ण जालीं. एक फावट कविता छापून येतकच आपूण तातूंत कसलोच बदल करिना अशें ते विजया राजाध्यक्षाक दिल्ले मुलाखतींत सांगतात.

***

२३.०५.१९

कविता ही निखटी दोळ्यानी वाचपाची नासता तर ती कानांनीय वाचपाची आसता. तिचें दृश्य रूप आनी श्रव्य रूप हांचो एकामेकां कडेन दाट सबंद आसता. Browning आनी Hopkins सारकिल्या कवींनी ह्या दोन रुपांचेर भर दिलो. तांचो sporling rhythem हो ताची गवाय. आमच्या पंत आनी पंडीत कवींची कविता दृश्य रुपा परस तिच्या श्रव्य रुपाक चड म्हत्व दितात.

***

०७.०६.१९

डी.एच. लॉरेन्स हो कथाकार, कादंबरीकार आनी ताणें प्रवास वर्णनांय बरयल्यांत. त्या भायर सुमार हजार भर कविताय. पूण ताची साहित्यांत नोंद उरता ती एक उत्तम गद्य लेखक म्हूण. ताणें जरी हजार कविता बरयल्यो तरी तातूंतल्यो वेंचीक अश्यो दोनशेंच कविता विचार करपा सारक्यो आसात अशें समिक्षकांचें मत. खासा लॉरेन्साक आपल्या मर्यादांची जाणीव आशिल्ली. आपले कविते विशीं तो केन्नाच समाधानी आस नाशिल्लो. ताका लागून तो आपल्यो पोरण्यो कविता ज्यो ताका अर्दवट फुलिल्ल्यो त्यो परत बरोवन काडटालो. एके कडेन तो बरयता, "because many of the poems are so personal that, in their fragmentary fashion, they make up a biography of an emotional and inner life. A good deal rewritten. They were struggling to say something which it takes a man twenty years to be able to say..."

हे बाबतींत रॉबर्ट फ्रॉस्टाचो तोच अणभव आसा. खंयच्याय कवींक आपल्या मर्यादांची जाणीव आसप गरजेचें आसता. कांय कवींक ती अखेर मेरेन आसना.

***

०७.०४.१९

आर. रामनाथान आपल्या बरपांत सातत्य राखलां. एक साधना कशी तो कविता बरयता. कवितेंत थोडे प्रयोग लेगीत करता. पूण ते प्रयोगा खातीर प्रयोग न्हय. तर ती ताच्या आशयाची गरज आसा. हायकू हो प्रकार ताका बरो जमला. ताचे कवितेचो सूर सदानंद रेगेचे कवितेच्या लागीं येता. थोडोसो तिरकस.

*

आयच्या 'भांगरभूंय' अंकांत अरुण साखरदांड्याली कविता आयल्या. ती म्हाका आवडली. बरीच वेगळी दिसलीं. हालीं ताणें बरयल्ल्यो चडश्यो कविता यांत्रीक दिसतात. predictable म्हणू येता अश्यो. पूण आयची कविता तशी दिसना. बऱ्याच काळा उपरांत एक बरी कविता वाचपाक मेळ्ळी.

***

०९.०६.१९

विजया राजाध्यक्ष हांकां दिल्ले मुलाखतींत विंदा करंदिकरान बाकीबाबाले कविते विशीं व्यक्त केल्लें मत अशें आसा. ''बोरकरांच्या काही कविता मला आवडतात. खरं म्हणजे ती कविता त्यांच्या आवाजातच पुरी जिवंत होते. बोरकरांची कविता वाचताना कुणाच्या मनांत छंदा बद्दल आकस असलातर तो लगेच नाहीसा होईल. तिथे तो अटळ वाटतो.'' बाकीबाबाले कवितेचें वैशिश्ट अचूक शद्बांत करंदिकर सांगता. खऱ्यानीच बाकीबाबाली कविता फकत वाचपाची न्हय तर ती आयकुपाची. तांच्या स्वरांतल्यान ती खऱ्या अर्थान जिवी जाताली. कविता बरयतना तांणी पयलीं छंदाचो विचार केलोना. कवितेचो आशयूच छंद घेवन आयला म्हणपाचें तांची कविता वाचतना जाणवता. दुसरें म्हणल्यार कांय फावट कवितेच्या प्रभावी वाचनांतल्यान तिचो अर्थ बरे तरेन उकतो जायत वता.

कांय वर्सां फाटीं आमच्या आकाशवाणीच्या स्टुडिओंत दिलीप चित्रेचे कवितांचें वाचन आमी record केल्लें. तांच्यो ज्यो कविता आमकां दुर्बोध दिसतात त्यो तांच्या वाचनांतल्यान समजत गेल्यो.

***

१०.०६.१९

आरती प्रभुच्या 'नक्षत्रांचें देणें' ह्या संग्रहांत 'नवी... जुनी' ह्या नांवाची एक कविता आसा. दिपक घारे हांणी बरयिल्लें खानोलकराचें ललित चरित्र वाचतकच हे कवितेक आशिल्लो आरतीच्या चरित्राचो संदर्भ लक्षांत येवन ती कविता बेस बरी समजता. मदल्या काळांत खानोलकराच्या आयुश्यांत निलिमा पोवळे ही चली येवन गेली. ती ताच्या चलयेचे पिरायेची. ह्या काळांत ताच्या मनार आयिल्लो ताण हे कवितेंत व्यक्त जाता. नवी ती निलिमा आनी जुनी ती तांची घरकात्र शैलजा. एक आधुनीक आनी दुसरी पोरण्या वळणाची.

पोक्त की सोळा कळांनी ही जुनी बहरास ये,
ही नवी जहरास येते गात्र गात्रीं हिरकणी

ह्यो वळी दोगांय भितल्लो फरक दाखयता.

निलिमा पोवळे हिच्यो एक काय दोन कविता 'सत्यकथा'त आयिल्ल्यो. त्यो वाचून त्यो आरती प्रभुन बरयल्या आसुंये असो तर्क शंकर रामाण्यान केल्लो. तांचेर आरती प्रभुचे कवितेची छाप स्पश्ट दिसताली. मुखार तिच्यो कविता कित्याक आयल्यो नात हो प्रस्न आसा. दिपक घारेच्या मतान त्यो कविता पोवळेनूच बरयल्ल्यो. खानोलकरान आपले विशीं जीं मिथ्यां तयार केलीं तातूंतलेच हेंय एक मिथ दिसता. सगळेंच गूढ..

संपर्क: ९४२०२२२८७६







# नव्या दशमानाची डायरी : १

**नंदकुमार कामत**

३१ डिसेंबराक मध्यानराती ख्रिस्ता उपरांतच्या दुसऱ्या सहस्त्रकांतलें पयल्या शतमानांतलें दुसरें दशमान सोंपलें. आयज आमी तिसऱ्या दशमानाच्या हुंबऱ्यार उबे आसात. १ जानेवारी २०२० ह्या दिसा सुरू जावपी हे दशमान ३१ डिसेंबर २०२९ च्या मध्यान राती सोंपतलें. १३७८० दशलक्ष वर्सां पोरण्या ब्रह्मांडांतलो तिसऱ्या दशमानांतलो आमचो प्रवास ३६५३ दिसांचो आसतलो. म्हळ्यार ५२६ सप्तकां आनीक स दीस. ८७६७२ तास. ५२६०३२० मिणटां. ३१५,६१९, २०० सेकंद.

हो प्रवास कसो आसतलो? तो आमकां खंय व्हरतलो. कितें दाखयतलो? आमी ह्या प्रवासांत कितें पळयतले? तिसरे दशमान सोंपता तेन्ना आमी कितें चिंतताले? हे सगळे चिंतपाकूच ही नव्या दशमानाची डायरी. एक अस्तित्ववादी, ॲबसर्ड भायरी. भायर कितें सरत सांगूंक जायना. बरें आनीक वायट. उपेक्षीत, अपेक्षीत आनीक अनपेक्षीत. स्वप्नरंजन, आत्मरंजन आनीक मनोरंजन. कांय मुर्तीभंजन, सेलफीश 'सेल्फी' म्हणल्यार आपणें आपल्याच मोगांत पडप. दुसऱ्या दशमानाची ही सेल्फी पळयात.

### वास्तवता हो आभास

एका आकांताची खवदळ चल्ल्या. पुंज भौतीक विज्ञानांत म्हणल्यार क्वांटम फिजीक्स. घुंवन घुंवन सत्य न्हयकारतनाय स्विकारून, स्विकारुनय न्हयकारल्या भशेन करून आता परतून आमी आसा थंयच पावले. 'ब्रह्म् सत्यम्, जगन् मिथ्यां' - 'ब्रह्म हेच एक सत्य, बाकी सब झूठ. आता हे आदी शंकराचार्यान विस्कटावन सांगिल्ले अव्दैत तत्वगिन्यान आमकां कित्याक अस्वस्थ करता? कांय प्रयोगाचे निश्कर्शूच मेळल्यात की वास्तवता रिॲलिटी ही आमीच तयार केल्या. तो एक आभास. आमी आस्त म्हणून हो आभास आसा. आख्खे दुसरे दशमान वास्तवतेचो अर्थ सोदूंक खर्च जालें. पूण सगळीं गणितां मांडल्या उपरांत खवदळ माजोवपी एकूच चित्र मुखार येता - आमी आसात म्हणून वास्तवता आसा. ना जाल्यार खंयच्या कडेन कांयच ना. फकत पोकळी. निर्वांत अवकाश. म्हणजे हो आदी शंकराचो 'मायावाद' तर? न्हय. हें पूंज भौतिकीच्या मंथनांतल्यान भायर सरिल्ले सत्य. वास्तवता 'आमीच' निर्माण करतात.

### गुण धर्म उत्पत्ती वाद

'प्रिंसिपल ऑफ इमर्जंट प्रॉपर्टीज' म्हणल्यार पदार्थांच्या गुणधर्मांच्या उत्पत्तीचो नियम सर्वमान्य आसा. ताकाच जोडून आमी हेवूय विधान करतात. 'होल इज नॉट सम ऑफ द पार्टस. कुडक्या, कुडक्यांची, घटकांची बेरीज करून अभंगाचे गुणधर्म तयार जायनात. देखीक उदकाची देख घेवया. उदक हो द्रव पदार्थ - लिक्वीड. थंड केल्यार ताचो झेल जाता. तापयल्यार वाफ. पूण उदक तयार जावपाक हायड्रोजनचे दोन, ऑक्सीजनचो एक अणू जाय. पूण हे दोनूय वायू एकमेकांचे दुस्मान. तांचे गुणधर्म पळयत जाल्यार मात्तूय दिसना की ताच्या संयोगांतल्यान उदक जल्माक येता. म्हणजे

(हायड्रोजनचे गुणधर्म) + (ऑक्सीजनचे गुणधर्म)

म्हणल्यार (उदकाचे गुणधर्म) न्हय.

ब्रम्हाडांच्या आरंभाक हायड्रोजन पयली जल्माक आयलो. ताच्या उपरांत ६८० दशलक्ष वर्सांनी ऑक्सीजन. ब्रह्माडाचो आरंभ जाल्या उपरांत १२० कोटी वर्सांनी उदकाचो पयलो थेंबो जल्माक आयलो. म्हणल्यार, देवा सायबा आमच्या कुडींतलें उदाक १२ अब्ज वर्सां पयलींचें. आतां हे गुणधर्म उत्पतीवादाचे पुराण वा डायरींत कित्याक आयला हे सांगचेच पडटलें.

एक स्त्री. एक पुरूश. एक नर. एक मादी. एक शुक्राणू. एक स्त्रीबीज. एक फलीत बीजांड. पूण तातूंत मनीस ना. मनीसपण ना. मेंदू ना. विचार ना. संवेदना ना. जीव आसा. ताका भुतकाळ आसा. भविश्य आसा.

नराची गुणसुत्रां. मादीची गुणसुत्रां. नराचो डी.एन.ए. मादीचो डी.एन.ए. नराची जनुकां. मादीची जनुकां. आनीक कोणाकूच न कळपी अळंग मॉलीक्युलर मैथून. डी.एन.चो समसंभोग. हे वटेचे ते वटेन. ते वटेचे हे वटेन. हातूंतल्यान नवेच गुणधर्म नव्या बीजाडांत. तातूंत बापूय दिसना. आवयूय दिसना. अलिंगांतल्यान, नपुंसक लिंगांतल्यान तो व्दिलिंगी जाता. मागीर कोण 'क्ष' दिता कांय 'य' गुणसूत्र दिता ताचेर लिंगनिश्चिती. बापायन क्ष दिलें, आवयन क्ष दिलें. क्ष आनीक क्ष. क्षक्ष म्हणल्यार चली. बापायन य दिलें आवयन क्ष दिले. क्षय, यक्ष म्हणल्यार चलो.

(शी, शी हे उतरूय 'क्षक्ष' वेल्यानूच आयलां आसतलें. चली जल्मल्यार 'शी', शी).

म्हणल्यार चलो जल्मूपाचे समीकरण आसा 'क्षय/यक्ष'. हीं दोनूय साहित्य आनीक संस्कृतींतली पेजाद उतरां. 'यक्ष' आसा थंय 'क्षय' ना. आनीक क्षय आसा थंय भंय आसाच.

तर हे बीजांड फुडे गर्भ जाता. मनीस जाता. ताच्या कट्टुलांत १०० अब्ज मेंदुपेशी - न्युरॉन्स आसतात. एक मेंदुपेशी मावलेचें एक जाळे अशें धरल्यार अशी १०० अब्ज जाळीं एकमेकांत सामकी गुरफटून गेल्यार जशें चित्र दिसतलें तसो मेंदू आकार घेता.

आवयच्या पोटांत, गर्भाशय समुद्रांत बुडिल्ल्या मेंदूक कसल्याच वास्तवाची जाणीव नासता. एक पॅरासायट, बेंदल कसो तो गर्भ वाडटा. आनीक हांगाच आमी विचार करूंक जाय. या बाळकाक वास्तवता केन्ना समजता?

होवूय गुणधर्म उत्पत्तीवादाचो पुरावो. शुक्राणू म्हणल्यार मनीस न्हय. स्त्रीबीज म्हणल्यार मनीस न्हय. गर्भ म्हणल्यार मनीस. पूण तातूंत नवे गुणधर्म जल्माक येवचे पडटात. हे कशें जाता?

मेंदुपेशी वाडटात. घुस्पतात. एकमेकां कडेन संपर्क करतात. हे संपर्क वाडटात. तातूंतल्यान 'जाणीव' निर्माण जाता. 'हांव' 'हांव' ही जाणीव. ह्या जाणिवेंतल्यान कॉन्शसनेस आनी मनाचो सांगाडो तयार जाता. जाल्ल्या भुरग्याक मन आसता? विचार आसतात? ना. हे नवे गुणधर्म दिसा कणकणी तयार जातात. आनी तातूंतल्यान भुरग्याची 'वास्तवतेची जाणीव' जल्माक येता.

मानसशास्त्रांत हजारांनी प्रयोग जाल्यात. ब्रेन, मांयड, कॉन्शसनेस ह्या विशयांचेर कितें बरोवपाचें म्हणून उरूंक ना.

आत्मानुभुती ही वास्तवता? स्वानुभुती ही वास्तवता? पृथ्वीभुती, ग्रहभुती, ग्रहानुभुती ही वास्तवता? ब्रह्मांडानुभुती ही वास्तवता? ही जल्मतना आमच्या बरोबर येना. मरपाच्या वेळार तरी ती आसता काय? काय मरण हीच खरी वास्तवता? एक ऑफ ए कॉप्लेक्स प्रोग्राम?

शास्त्रज्ञांक हांव बरयतां तशे बरोवंक कठीण. ते इतलेच म्हणटात - 'आमी समजतात ती वास्तवता खरी न्हय तो एक आभास. तो आभास जाल्यार खंयसून निर्माण जालो? कोणें तयार केलो? आमच्या मनान, संज्ञेन, विचारांनी, प्रज्ञेन, जाणीवेन? आभास जाल्यार कागदाक पेन लावन हांव हे कशें बरयतां? पूण रावात. हांव खंय बरयतां. कट्टुलाच्या भितरल्यान कोण तरी सांगता कशें दिसता ते आपशीच हांव बरोवन काडटां. हो भितर उलोवपी कोण?

दुसऱ्या शतमानाच्या अंताक आमी अश्या एका मोडणार पावल्यात जंय ब्रह्मांडाच्याच खरेपणा बद्दल दुबाव निर्माण जाला. अनंतकोटी ब्रह्मांडाची, समांतर विश्वांची कल्पना दिसान दीसा बळकट जायत चल्ल्या.

पुराय ब्रह्मांडूच जर मनांच्या कल्पनेंतल्यान तयार जालां जाल्यार हांगा कसलो जल्म, कसलें मरण? हें वाक्य बरयतना कितल्योश्योच आकाशगंगा नश्ट जाल्ल्यो. लाखांनी नकेत्रां भस्म जालीं. हजारांनी नवे सूर्य जल्माक आयले.

आमी कितें जोडलें? क्लिश्टतेंतल्यान (कॉप्लेक्सीटी) क्लिश्टता. महासंगणकाचेरूय जैत मेळोवपी पुंजीय संगणक (क्वांटम कॉम्प्युटर्स) आज भिराकूळ सत्या कडेन आमकां धांवडायत आसात. आता अशक्य कायच ना.

यंत्रमोग आनीक यंत्रभोग

तिसऱ्या दशमानांत यंत्रमोग, यंत्रभोग आनीक - यंत्र - मनीस जोडपी सवकळेच्यीं जातलीं. बायलेचो वीट आयलो. यंत्रबायल हाडात. घोव लक्ष दिना. यंत्रदादलो हाडात. भुरगीं नात? काय नजो तुमच्या आवडी प्रमाण यंत्रबाळक आपणायत.

कृत्रीम बुद्धीमत्ता, रॉबॉटीक्स (यंत्रमनीस विज्ञान) हातुंतल्या क्रांतीक लागून नितीमत्तेची, समाजीक मुल्यांची सगळीं झापडांच गळून पडटली.

३१ डिसेंबर २०२९ च्या पार्टीची हांव कल्पना करतां. इतलीं वर्सां हांव उरतलों हाची आज म्हाकाच शाश्वती ना. पूण हांव आशावादी आसां म्हूण म्हज्या दोळ्यां मुखार भविश्यांतलो तो प्रसंग उबो रावतो.

हांव उबो आसां थंय एक सुंदर चली येवन उबें रावता. हांव ताका वळखना पूण इंटरनेटार खंय तरी पळयिल्ल्या भशेन दिसता.

तें म्हाका अंकल बी कांय म्हणना. तें सरळ म्हजो हात धरता. ताचो स्पर्श हुनहुनीत. उश्ण. बरें दिसता. दिसपाचेंच.

गोड आवाजांत तें सांगता - म्हाका तुका एक कविता गावन दाखोवपाची आसा.

म्हजी बायल पयसुल्ल्यान कितें चल्ला ते पळयता पूण तिका हुसको ना. भोवतणीं जायते लोक आसात.

ती सुंदर चली म्हजो हात धरून म्हाका एका टेबला कडेन व्हरता. खूप लोक आमचे कडेन पळयतात.

'हांव इल्ली वायन घेतां हां.' ती चली हांसत ग्लास वोंठाक लायता. ती ग्लास दवरता. 'आतां आयक' ती म्हणटा.

आनीक लता मंगेशकरा परसूय सुंदर आवाजांत ती कविता गायता. कितलो स्वर्गीय आवाज हो? हांव चिततां. अशे दिसता की हे गायन सोंपचेच न्हय. ती गायतना म्हाका अजाप जाता की तिच्या कुडींतल्यान तरांतरांचो अत्तराचो कसो गंध येवंक लागता. हें कसलें मायाजाल तेच कळना. अचकीत गायन थांबता.

'कितें जालें?' हांव अजापान विचारतां. 'कांय ना' ती म्हणटा. हांसता. उठटा. ती खंय वता ते लोक पळयतात. म्हजी बायलूय तिज्या फाटल्यान मुद्दम वता. पळोवपाक. म्हजी बायल विचारूक सोदता - 'तूं खंय वता?'

पूण ती चली फाटल्यान वळून सांगता. 'म्हाका चार्ज करूंक नाका?' ती फुडे वता आनीक बोमलेंतल्या सॉकेटांत वणटीक लायिल्लो चार्जर कनेक्ट करता. इतल्यान पार्टीचो येजमान म्हणटा - 'ती फिफ्थ जनरेशन रॉबोट' एन्जॉय युवर सेल्फ.





# कृष्ण : एक थाव

निलबा अ. खांडेकार

इतलें सगळें करुनूय कृष्णाक आपलें कौशल्य, धाडस आनी हुशारकी दाखोवपाचो वेळ आयलो तो महाभारत पर्वांत.कृष्णाची आनी पांडवाची पयली भेट जाली ती द्रौपदी स्वयंवरांत. तो मेरेन कृष्णा शिवाय पांडवांक कोणेंच वळखूंक नाशिल्लें. ते लाक्शागृहाच्या अग्नींत जळून खाक जाल्ल्याचेंच जाहीर जाल्लें. द्रौपदी स्वयंवराचो पण विप्र वेशांतल्या अर्जुनान जिंकल्या उपरांत थंय जाल्ल्या घासाघाशींत कृष्णानूच अर्जुनाची पाठराखण केल्ली आनी हे घडणुके उपरांत कृष्ण आनी अर्जुनाचे संबंद अशे जुळ्ळे निमणें मेरेन तशेच उरले. पांडवांचेर आयिल्ल्या दरेक संकटाक कृष्ण धांवून आयला. तशें पळोवंक गेल्यार कृष्ण पांडवांचो आतेभाव. वसुदेवाचो बापूय शूर ताका पांच धुवो, तातूंतली एक कुंती.

इंद्रप्रस्थ नगरी सजून आकांताची जाल्ली. तिचें सौंदयं दोळ्यांत भरपा सारकें जाल्लें. कृष्णाच्या सल्ल्यान राजसूय यज्ञ करपाचो थरलो. पूण ताचे पयलीं जरासंधाचो कांटो कसो काडचो हाचेर विचार मंथन जालें. युद्धांत जरासंधाक हारोवप शक्य ना हें कृष्ण जाणा आशिल्लो. ताका बुद्धीनूच मारप शक्य आसा म्हण कृष्ण, भीम आनी अर्जुन ब्राह्मणांच्या वेशांत मगध नगरीच्या मधुपुरांत पावले आनी जरासंधाक मेळ्ळे. जरासंधान विचारलें, 'तुमी कोण'? तेन्ना कृष्णान सांगलें, 'आमी आमचे कार्यसिद्धी खातीर दुस्मानाच्या घरांत आयल्यात, आमी ब्राह्मण न्हय, हांव वसुदेवनंदन कृष्ण आनी हे दोगूय पांडूचे पूत, भीम आनी अर्जुन. आमी तुजे कडेन झगडूंक आयल्यात. आमचे भितरलो एकटो तुज्या एकट्या कडेन झगडटलो. तूं आमकां निराश करचोना अशी आस्त आसा.' उपरांत भीम आनी जरासंधाचें युद्ध सुरू जालें. जें चौदा दीस चल्लें. चौदाव्या दिसा भीमान जरासंधाक कृष्णाचे सुचोवणे वयल्यान जिवेशी मारलो आनी जरासंधाचे बंदखणींत आशिल्ल्या ८६ राजांक मुक्त केले आनी जरासंधालो चलो सहदेव मगधचो उत्तराधिकारी म्हण घोशीत केलो.

राजसूय यज्ञ सुरू जालो आनी अग्रपुजेचो मान कृष्णाक दिल्ले बद्दल शिशुपालान वाद कोंमेस केलो. कृष्णाची लज काडली, ताचो अपमानूय केलो. चेदीचो राजा शिशुपाल हो यादवांच्याच एका बायलेचो चलो. पांडवां कडेन जें कृष्णाचें नातें तशेंच नातें शिशुपालाचेंय आशिल्लें. जेन्ना सगळें पाशियेस काबार जालें तेन्ना कांय खिणांतूच कृष्णान सुदर्शन चक्रान शिशुपालाची तकली उडयली. कृष्णाचें प्रभावी आयुध म्हटल्यार सुदर्शन चक्र. ह्या सुदर्शन चक्रा विशीं ज्यो कल्पनां, लोकांच्या मनांत आसात त्यो हांसपा सारख्योच. जाय तेन्ना ताका आपोवपाचें, जाय ताका मारपाचें, हीं सगळीं फकाणांच कशी दिसतात. ज्येश्ठ भृगूश्रेश्ठ परशुराम हांणी हें चक्र कृष्णाक दिल्लें. हेच चक्र तो कंसा आड, कालयवना आड वा सत्तरा फावटीं पराभूत करपी जरासंधा आड वापरना. पूण शिशुपालाच्या वधा वेळार कृष्णाच्या हाती आशिल्लें चक्र खंयचें. तें खंयच्यान आयलें? हाचे बद्दलचें कुवाडें सुटना. घडये तें एक प्रकारचें यंत्रूच आसूं येता. यंत्र म्हटल्यार अंगभूत रचनेचेर गती घेवपी आकार समूह. जाची गती एकदम फास्ट आनी जाची धार ब्लेडीभशेन आसपाक

जाय असो दुबाव बंगाली लेखिका, संशोधिका प्रतिभा बसू आपल्या पुस्तकांत व्यक्त करता (मराठी अनु. 'महाभारताच्या महारण्यात') ह्या चक्रानिशी असोय एक विचार मनांत येता की तें कृष्णाक परशुरामान कंस, कालयवन आनी जरासंधाच्या वधा उपरांतूच दिलां आसूंये आनी शिशुपाल वध हो त्या चक्रा वरवी पयलो बळीसो दिसता.

महाभारत युद्धांत कृष्ण नाशिल्लो जाल्यार पांडवांचें जैत केन्नाच जावंचे नाशिल्लें. कौरवांचे वटेन, अतिरथी-महारथी, शूर-वीर आशिल्ले. जातूंत भिष्म, द्रोणाचार्य, जयंद्रथ, कर्ण, दुर्योधन आशिल्लें. जांचे मरण अशक्य ताणें पांडवां कडल्यान शक्य करून घेतलें. तेंवूय स्वताच्या बुद्धीचार्तुयानूच. इतलेंच न्हय तर पांडवांच्या वटेन लडपी घटोत्कचाचेंय मरण ताणें कर्णा कडल्यान अर्जुनाक वांचोवंक करून घेतलें. पांडवां खातीर ताणें कितें करूंक ना? भीष्मपर्वाच्या शेवटाक ताणें आपणें केल्ली प्रतिज्ञा 'न धरी शस्त्र करी' मोडली आनी तो सुदर्शन चक्र घेवन भिष्माक मारपाक धांवलो. कृष्णाक खबर आशिल्ली कौरवांची सायड जैताची म्हण. तांचे कडेन संख्याबळ आशिल्लें. धन-संपत्ती आशिल्ली. सैन्यबळ आशिल्लें आनी सत्तेर आशिल्ल्यान जनतेचेंय समर्थन तांकां लाबिल्लें. राजशक्ती, शस्त्रशक्ती, धनशक्ती कौरवां कडेन चड आशिल्ली. महाभारत युद्धांत अठरा अक्षौहिणी सैन्यांतलें अकरा अक्षौहिणी सैन्य एकट्या कौरवां कडेन आशिल्लें. इतलेंय सोडून कृष्णाची नारायणी सेनाय कौरवां कडेन आशिल्ली. आनी एकटो एकसूरो कृष्ण आनी तोवूय बी 'न धरी शस्त्र करी' पांडवांच्या अर्धान. तरीय तो एकटो त्या अकरा अक्षौहिणी सैन्या खातिर जडूच आशिल्लो.

तरीय हें सगळें कृष्णान कित्याक केलें? धर्मा खातीर. जे वटेन धर्म आसा ते वटेन कृष्ण, हीच तत्वां ताणें मरसर तिगयली आनी तसोच जगलो. वनवासी पांडवांक महाभारताच्या युद्धांत वांगोड करून कृष्णाक कांयच मेळचें नाशिल्लें. तरीय तें ताणें केलें. आनी दुसरें, पांडव नारायणीय परंपरेचे आशिल्ले. नारायणीय परंपरा ही प्रगतीवादी आशिल्ली. इतिहासांतूय दरेक वेळा नारायणीय संप्रदायान भार्गव संप्रदायाचेर जैत मेळयलां. म्हणुनूच आर्य संस्कृतीची प्रगतीवाट निमाणें मेरेन सफल जाली. देखूनच घडये तो कर्तव्य म्हणून महाभारत युद्धांत उबो रावलो. अर्जुनाचो परम-मित्र म्हण उबो रावलो. अर्जुनाक तातूंतल्यान कितें तरी मेळपाचें आशिल्लें. पूण कृष्णाक तर कांयच मेळपाची शक्यताय नाशिल्ली. कृष्ण तर ते लडायेंत मरपाचो नाशिल्लोच वा लडाय जिकून राजाय जावपाचो नाशिल्लो. ताचो हेतू निरपेक्ष, स्वार्थ निरपेक्ष लडो आशिल्लो. तो इश्टकार्य करतालो.

कृष्ण जेन्ना हस्तिनापूरांत कौरवां कडेन शिश्टायेचें उलोवप करपाक वतालो तेन्ना ताणे युधिष्ठिराक सांगिल्लें. 'हांव द्रौपदीचे उगडे केंस दोळ्या मुखार दवरुनूच शिश्टायेचें उलोवप करपाक वतां.' होच कृष्ण आयज आमकां जाय, ह्या भारताक जाय तेन्नाच आमच्या आयाभयणांची अब्रू सुरक्षीत उरतली आयज खंय ना खंय बलात्कार, जुल्म, अन्याय जायत आसतात आनी जे तरेन हें घडटा तें पळयत जाल्यार हाका अंतूच ना सो दिसता.

पुर्वेक नरकासूर नांवाचो असूर प्रागज्योतिशपुरांत (सद्या आसाम) दिसान दीस आपली तांक वाडयत आशिल्लो. तो भुदेवी आनी वराह हांचो पूत. जाचे बंदखणींत अपहरण केल्लो सुमार सोळा हजार बायलो आशिल्ल्यो. जाणें देवांच्या आवयचें (अदितीचें) आंगा वयले भांगर चोरिल्लें. अशा ह्या क्रूर आनी जुल्मी राजाची तांक वाडत आशिल्ली. खरें म्हटल्यार तीं (बायलां) बंदखणींत अशी नाशिल्लीच. तो एक व्हड गोठो कसो दुरीग घालून बांदिल्लो कुंपणखानोच कसो. तातूंत थंय त्या बायलांचे खूब हाल करताले. तांचे जेवण-खाण कपडे-लत्थे सारके जाय नाशिल्ले. आर्यावर्ता वयलो हो एक महाकलंक जाल्लो आनी अन्यायाचे हे अनिर्बंध केंद्र जाल्लें. जातूंत नरकयातना शिवाय कांयच नाशिल्ले. म्हणुनूच घडये भीमासूराक ह्या नरकपुरीक लागोनच नरकासूर हें नांव मेळिल्लें. जेन्ना ताका अद्दल घडोवपाचें काम विष्णून कृष्णाचेर सोंपयलें तेन्ना कृष्णान युद्धांत ताचो सुदर्शन चक्रान वध केलो. (सुदर्शन चक्राचो दुसरो बळी) आनी दुसऱ्याच दिसा भगदत्ताक (नरकासूराचो पूत) प्रागज्योतिशपूराच्या शिंवासनार बसयलो. जो शूर आशिल्लोच. आनी महाभारत युद्धांत कौरव पक्षाचे वतीन अकरा दीस मेरेन लडलो. कृष्णान नरकासूराच्या बंदखणींतल्यान सोळा हजार (अंदाजे) बायलांक मुक्त करून तांकां वाऱ्यार सोडलीं ना. तांचें पुनर्वसन करपाचो यत्न समाज-भलायके खातीर गरजेचो आशिल्लो म्हणून ताणें तांचे कडेन सामुहीक पद्धतीन लग्न केलें. तांकां आपल्या बायलांचो मान दिलो आनी सन्मानान राजमहालांत दवरलीं. कित्याक तर तांची घरां-दारां तांचे खातीर बंद जाल्लीं, तांकां मेकळी सोडल्यार कृष्णाच्या शामराज्यांत वेश्या वेवसाय मूळ धरतलो आशिल्लो. कृष्ण पयसुलें चिंतालो. तो जाणां आशिल्लो ज्या देशांतल्यो बायलो घट-मूट वा सुरक्षीत ना तो देश वा ते राज्य केन्नाच सफलतायेक पावचेंना म्हण. छत्रपती शिवाजीनूय कल्याणच्या सुभेदाराचे सुनेक सन्मानान तिच्या घरा परत पावयल्ली.

नरकांतल्यान काडिल्ल्या सोळा हजार बायलां कडेन लग्न जालें तरीय एक दुबाव मनांत येताच. एक दादलो सोळा हजार बायलांक भोगूंक शकत काय (?) आता बायल जावं दादलो, आंतरीक वासना चाळवतलीच. मागीर तांचे सावन भुरगीं जाल्ल्याचें संदर्भ मेळनात. लग्न जालें म्हणटगीच तांचोय ताचेर हक्क येता. मागीर थंयय कलहूच जावं येता. ना जाल्यार सोळा हजार बायलांची ही भानगड कांय विशिश्ट समाजाक खूश करपा खातीर कृष्णाच्या नांवार घुसडयल्या आसुंये. ताचे चरित्र Larger than Life करपाक हरशीय म्हण तें आसाच.

दुसरें म्हान कार्य जें सगळ्या मानव जातीच्या उद्धाराचें.

संवसाराच्या अंता मेरेन उरपा सारकें, ते म्हणजे 'गीता'. गीतेंतल्या वैचारीक देणेंत योग, ज्ञान, कर्म आनी भक्ती ह्या मोक्षप्राप्तीच्या सगळ्या साधनांचें विवेचन आयलां. भगवद्गीते विशीं लोकांच्या मनांत अतिश्ट आदाराचें स्थान आसा. गीतेचो आपले तरेन अर्थ लावपाचशें काम व्हडल्या-व्हडल्या दिग्गजांनी केल्लो आसा तरीय सगळ्यांक पटपा सारखो अर्थ अजून लागपाचो आसा अशेंच दिसता. शंकराचार्याक गीतेत ज्ञानमार्ग आनी संन्यास दिसलो. ज्ञानेश्वरांक भक्तिमार्ग दिसलो. लोकमान्य टिळकांक निश्काम कर्मयोग दिसलो. ब्रिटीश राज्यकर्त्यांक भारतीय जनता संवसार वगडायल्ली आनी परमार्थीक आशिल्ले खातीर स्वराज्याक नालायक आसात हीच शिकवण दिसली. महात्मा गांधींक अहिंसात्मक प्रतिकार दिसलो. गोळवलकरांक मुस्लीम द्वेशाचें प्रतिबिंब दिसलें. देवरसांक हरिजनांची आनी बायलांची तुच्छताय दिसली. आचार्य रजनीश आनी कृष्ण कॉमशसन सोसायटीन तर गीतेंत मुक्त लैंगीक स्वातंत्र्याचो सोद लायलो. अशी ही गीता कृष्णान महाभारतांतल्या महायुद्धा पयलीं रणभूंयेर सांगिल्ली. 'साक्षात्काराचें शास्त्र' जाका स्पर्श करून सत्य आनी न्याय वदोवपाक शपथबद्ध जावचें पडटा म्हणुनूच तिचो मान सर्वश्रेश्ठ थारता.

खरेंच ही गीता युद्धापयलींच कुरुक्षेत्रार सांगिल्ली काय? म्हाका दुबाव (?) जे युद्धा खातीर उबे रावल्यात. जांकां एकमेकांक काबार करपाची इत्सा आसा. जे एकमेकांच्या रगताक तान्हेल्यांत तांकां थांबोवन येदी व्हडली गीता आयकोवपाचें. युद्ध थांबोवपाचें पाशीयेस थंय उपरासु येता व्हय? महाभारत युद्ध हें फकत भारतांतल्या सैनिकां पुरतेच चलपी युद्ध नाशिल्लें तर अर्ध्या परस चड संवसाराचें तें युद्ध आशिल्लें. महायुद्ध आशिल्लें.

कृष्ण सगळ्याक आशिल्लो तरीय खंयच नाशिल्लो. गांधारीक ताच्या सामर्थ्याची जाण आशिल्ली. म्हण महाभारताचो विनाश टाळूंक फक्त कृष्णूच समर्थ आशिल्लो, अशें तिचें मत आशिल्लें. ताणें तें केलें ना आनी घडोवन हाडलो सगळो विनाश. म्हण तिणें ताका स्त्राप दिलो, 'वंश विनाशाचो'. कृष्णान तिच्या स्त्रापांत धन्यताय मानली आनी तशेंच जाल्लें बी. महाभारताच्या विनाशा उपरांत त्या स्त्रापाक आपली सत्यताय दाखोवपाक ३६ वर्सांची वाट पळोवची पडली, जी मुसळ पर्वांत तयार आशिल्ली. ताच्या दोळ्यां मुखारूच सगळीं भुरगीं, नातरां, पंटूरां ताणें मरतना पळयलीं, पूण तो रडलो ना. 'जारा' व्याधीन मारूंक नाशिल्लो जाल्यार लेगीत तो मरणाच्याच तयारेंत आशिल्लो, अशें कित्याक? ताणें म्हाताऱ्या वसुदेवाक सगळ्यांक सांबाळपाक कित्याक सांगलें? ताका मरणा बगर दुसरो आनीक मार्गूच नाशिल्लो. आंगार आयिल्ल्या सगळ्या कर्तव्यांक ताणें जशें तोंड दिलें त्याच धाडसान पुतांत, नातवांत, बायलांत फारावन उरं नासतना ताणें हेंवूय फावट तोंड दिलें. सगळो भार अर्जुनाचेर सोंपयलो. शांत जावन ताणें आपल्या साम्राज्याचो नाश पळयलो, द्वारकेचो नाश पळयलो. साम्राज्यां अजरामर अशीं केन्नाच नासनात,म्हणुनूच घडये कृष्णान राजमुकुटाचो केन्ना स्विकार केलो ना, पूण ताणें सांगिल्ले कर्मयोग आनी भक्तीयोग आयजूय अमर आसा, उंचेल्या पांवड्यार मान सन्माना सयत आसात द्वारकेच्या प्रचंड गरूड ध्वजाच्याकूय.

'स्त्राप' ही स्त्रापांची भानगड कितें ती सारकी कळना. पूण एक खरें की हे संकल्पनेची तांक तपश्चर्येंत साध्य जावं येता. म्हणुनूच घडये पुराणांतले चडशे स्त्राप ऋशी-मुनींनीच दिल्यात. घडये तांच्या कडक तपश्चर्येचें हें फळ जाव येता.

विश्वाची व्यवस्था लावपा येदें सामर्थ ताचेंपूण सैमान ताचीच सगळ्यांत व्हड विटंबना केली. स्वताच्या कुटुंबाची तो वेवस्था केन्नाच लावंक पावलो ना. ताची सगळीं भुरगीं-बाळां वायट व्यसनाधीन जाली. सुदाम्याक भांगराचे दीस हाडपी, द्वारकेंतल्या सुवर्णतुलेंत त्या सुवर्ण नगरींतल्यो सुवर्ण राशी सरून गेल्यार लेगीत जड उरिल्लें ताचें वजन त्या कृष्णाच्यो बायलो संरक्षण आनी पोटां-पाण्याविना वळवळून मेल्यो. हय कुरुक्षेत्रा वयलो धगधग न्हिवलो आनी तोच अग्नी उफाळून आयलो. द्वारकेंत सात्यकीच्या मनांतल्यान, गोबोर केलो. त्या उज्यांत यादव कुळ गांधारीच्या स्त्रापाच्या आधारान जळून गेलें. अर्जुनाचो नंदीघोश रथ, घोडे कृष्णाच्या रथा वांगडा म्हासागराच्या पलतडी पावले. उडून गेलें अंतरिक्षांत कृष्णाचें सुदर्शन. उरिल्लें कृष्णाचें कुटुंब अर्जुन हस्तिनापूराक घेवन वतना अभीर सेनापती कुर्कटान ताची वाट आडायली. युद्ध जालें. तेन्ना खंय महाभारत गाजोवपी अर्जुनाचें गांडीव निष्फळ जाल्लें आनी अभीरांनी अर्जुना कडले रथ, संपत्ती आनी तरनाट्यो बायलो उखलून व्हेल्ल्यो. त्या बायलां मदीं कृष्णाची प्रीय अशी सत्यभामाय आशिल्ली खंय. ज्या सत्यभामे खातीर कृष्णान इंद्राल्या राजवाड्यांतल्या पारिजाताच्यो पायघड्यो घातिल्ल्यो.

कृष्ण जेन्ना जेन्ना पांडवां वांगडा आसा तेन्ना तेन्ना पांडव तांचेर आयिल्ल्या संकटांतल्यान सुरक्षीत उरल्यात. पूण कांय कडेन तो पावलोना, पावूंक शकलोना. थंय काळ लेगीत पांडवांचेर परतला. द्रौपदी वस्त्रहरणा वेळार कृष्णाचे शाल्वा कडेन युद्ध चलतालें. अभिमन्यूक मरण आयलें तेन्ना तो संशप्तका कडेन युद्ध करपाक अर्जुनाक घेवन गेल्लो. जेन्ना पांडवांक घेवन तो ओघवती न्हंयेचे देगेर राती खातीर थांबलो तेन्ना अश्वत्थाम्यान पांडवांच्या शिबिरांत वचून द्रौपदीच्या पुतांक कापून उडयले. ताच्या उपस्थितींत तांचें वायट केन्नाच जालें ना. आनी जर कोणेंय तशें येवजिलेंय जाल्यार ताणें तें सांबाळून घेतलें. सर्वतोमुखी प्रतिभा, अद्भूत कार्य-कुशळताय आनी वेळाकाळाची जाण कृष्णा भितरूच आशिल्ली. कृष्णाचे बुद्धिचातूर्य अद्वितीय आशिल्ले. भीष्म, द्रोण, कर्ण, दुर्योदन हांच्या वधाच्या वेळार कृष्णान ज्यो सुचना दिल्ल्यो ताका लागुनूच पांडवांक जैत मेळूंक शकलें. निरुत्साही अर्जुनाक

ताचें कर्तव्य आनी धर्म समजावन ताका युद्धाक तयार केलो आनी युद्धाच्या सगळ्या दिसां ताच्या वांगडा रावून ताचें रक्षण केलें. जयंद्रथाच्या वेळार आपल्या योग सामर्थ्याचो उपयोग करून अर्जुनाचो अग्निप्रवेश वाटायलो. अश्वत्थाम्याच्या अस्त्र प्रयोगा वेळार अर्दमेल्ल्या - जल्मल्ल्या अभिमन्यूच्या पुताक ताणें वाटायलो आनी निर्वंश जावक पावलेल्या पांडवाच्या कुळाची वृद्धी केली.

पांडवांनी कौरवांचेर जैत मेळयलें आनी तें जैत फक्त निशस्त्र कृष्णान जिकून दिल्लें. कृष्णान युधिष्ठिराचो राज्याभिषेक केलो. कंसाच्या वधा उपरांत ताणें उग्रसेनाची मुक्तता केली आनी मथुरेच्या शिंवासनार उग्रसेनाचोच सन्मानपूर्वक राज्याभिषेक केलो. जरासंधाच्या वधा उपरांत ताणे येद्या व्हडल्या मगध साम्राज्यार जरासंधाच्याच पुताक (सहवेदाक) शिंवासनार बसयलो. पद्मावत राज्यांतलो करवीर नगराचो राजा शृंगळ नांवा सारखोच कोल्याचे वृत्तीचो आनी हिंसक आशिल्लो. मेळटा ताची संपत्ती, भूंय, बायल बळान हाडप करतालो. जाल्यार कृष्णान करवीर नगरजनांच्या विनंतीक मान दिवन ताका काबार केलो. किल्ले राज्य शृंगाळाच्याच पुताच्या (शुक्रदेवाच्या) हातांत करवीरचो राज्य कारबार सोंपोयलो जाका लागून शिशुपालाचो कायमचोच दुस्मान जालो. प्रागज्योतिषपूरचो अधिपती नरकासूराक मारून ताणे ताच्याच पुताक (भगदत्ताक) शिंवासनार बसयलो. पौंड्रक वासुदेवाचो वध करून ताच्याच पुताक (वीरमणीक) शिंवासनार बसयलो. चेदीराजा शिशुपालाकूय मारले उपरांत ताचेंय राज्य ताणें घेतलें ना. निमाणीं ताणें दर्यादिगेर अजापाची नगरी द्वारका उबी केली आनी थंयूय ताणें आपलो बापूय वसुदेवांक राज्याभिषेक करून द्वारकेचें महाराज पद दिलें. पूण खंयच वा कोणाच कडेन ताणें आपलो वांटो मागलो ना वा सत्तेची अभिलाशा धरली ना. फकत धर्मसंस्थापनेच्या कार्याक म्हत्व दिलें.

कृष्णान आपल्या जिवितांत खूब इश्ट आनी इश्टागतीय जोडल्यो. तशेच दुस्मानूय तयार करून दवल्ले. पूण तो खंयच्याच दुस्मानाच्या हातांतल्यान मेलो ना. ताणें आपल्या जिवितांत खूबूच युद्धां केली. तशें येवजीत जाल्यार युद्धां बगर कृष्णूच दिसना. केशी, बरबरीक, महादेव, अर्जुन... हांचे कडेन ताच्या युद्धां विशींचे संदर्भ मेळटात. मागीर तो जगलो केन्ना? ताका ताच्या आठ बायलां सावन ८४ भुरग्यां जालीं. ताणें संवसार केलो केन्ना? तशें बायलांक सांबाळप खुबूच कठीण काम, तेंवूय ताणें केलें.

महाभारतांत वेगळ्या वेगळ्या प्रसंगार कृष्णान पांडवांक जो उपदेश केलो तातूंत ताची कपटनिती दिसून येता अशें खूब जाणांचें मत आसा. कृष्ण हो खुबूच प्रज्ञासंपन्न आनी सदांच जागृत अशा व्यक्तीं मदलो एक आशिल्लो. वेळ काळ आनी नितीक धरून उकत्या दोळ्यानी ताणें तशीं तशीं वर्तना केल्यात. आनी भेश्टीच ताणें केन्नाय फालतू वर्तनां करूंक नात. तशीं ती चालीक लायतना ताणें खुबशीं संकटाय ओडून घेतल्यात. फकत तिगांनी वचून भीमाच्या एकट्याच्या तांकीर जरासंधाच्या घरांत वचून जरासंधाचो वध करपाचो. हे येवजणेंत युक्ती आशिल्लीच. पूण ताच्याकूय चड आनी व्हड धाडसूय आशिल्लें. जरासंधाच्या सैन्यां कडेन सामकारा सामकार उबें रावून युद्ध करप शक्य नाशिल्लें. पूण एकट्या कडेन शक्य आशिल्लें तें ताणें करून घेतलें. कृष्णाक खबर आशिल्लें संवसारांत अशक्य अशें कांयच ना. रंभे सारख्या रुपगर्भितेचो मानभंग आनी हार जावक शकता. कुबेरा सारख्या धनदंड मनशाक भिकेक मेळोवपाक येता. रावणा सारख्या बलदंड शक्तीचोय विध्वंस जावक शकता जाल्यार शक्तीशाली जरासंधाचो वधूय जावक शकता हो विस्वास आशिल्लो. अशी सृजनशील धाडसांची आयज आमकां गरज आसा. जीं बिजां लावन वाट पळोवंक शकतली, जीं भान दवरून आखण्यो आखूंक शकतली आनी धुंद जावन ती अंमलांत हाडटली. वैफल्य फकत वणवणूंक शकता वाट सोदूंक शकना ही ताची उर्मी आशिल्ली. आपल्या असामान्य कर्तृत्वान हेरांक राज्यां मेळोवन दिली. कृष्णाचो भोग अधिकार शून्य आशिल्लो. कृष्ण केन्ना रडलो ना निष्कामूच रावलो. मोव रावलो. कठोरूय रावलो. घडये हाकाच लागून महाभारतांतलो कृष्ण हाताकूच लागना. ताणें मोग केलो, शत्रूय केले, सुडूय घेतलो, खोशेन नाचलो. पांडवांनी राज्य वगडायलें तेन्ना दुःखान हळहळलो. पूण फुरफुरलो ना. सगळे मानवी कश्ट, त्रास, सुखां, विकार ताच्या चारित्र्यांत आशिल्ली. फक्त लोकप्रतिभेच्या म्हान चमत्कारांक लागोन कल्पितानूय विप्लवकारी व्यक्तित्वाचें रूप घेतलें आनी कृष्णाच्या आदीं त्या विप्लवकारी व्यक्तित्वाचें नांव घेवचें पडलें. जशी राधेच्या व्यक्तित्वाची जादू हाका कारणीभूत आसा तशें कृष्णाचें गवळीपणूय ताका हातभार लायता. कृष्ण क्षत्रीय नाशिल्लो तरीय तो क्षत्रीय आशिल्लो जाल्यार लोकां कडेन इतले लागीचेंपण घडये सादोवंक शकचो नाशिल्लो. घडये रामा भशेन 'आदर्श' उरतलो आशिल्लो. पूण तो गोपींच्या जिवितांत मिसळून गेलो. सामान्य मनीस जालो म्हणुनूच घडये सगळ्यांत सगळो जावन मुक्त जालो. यदुकूळ श्रेश्ठ जालो आनी गवळी अधीक जालो. म्हणुनूच घडये एका सर्वसामान्य गोपिकेन, राधेन कृष्णाच्या वांगडचें स्थान प्राप्त केले.

आपल्या कर्तृत्वान अमर जाल्लें हें कृष्णाचें व्यक्तित्व संवसार आसंसर मनशाच्या काळजांत उरतलें. वायट आनी बऱ्या प्रवृत्तीचो संयोग ताणें वेव्हारांत जैत मेळोवपा खातीर केलो हाचो अभ्यास जालो तरूच कृष्णाचे चरित्र आदर्श ठरोवन जिवितांतलो आडखळी पयस करपी मार्गदर्शक जावन जैताची साधनां जातली हातूंत दुबाव ना.

संपर्कः ९६३७०१२५२४



# धीट लोकांचो देश : विएतनाम

**संपदा कुंकळकार**

अमेरिका आपली अत्याधुनीक शस्त्रां वापरपाक ही एक बरी संद म्हण ह्या झुजा कडेन पळयताली. पूण ताची सामकी नाचक्की जाली. ताका सैन्य फाटी घेवचें पडलें. संवसार भर बदनामी जाली ती वेगळी. जाहीररित्या माफी मागची पडली.

१९७३ त झूज सोंपोवपाचो आनी विएतनामांत शांती प्रस्थापीत करपाचो करार पॅरिसांत जालो. झूज सोंपलें. पूण ताचे परिणाम ना जाल्यात? ना. आमचो गायड म्हणपाक लागलो, जांणी हें झूज झुजलां तांच्या मनांत आयजूय तें चालू आसा. कितल्याश्याच सैनिकांक, भुरगीं जावंक नात. कांय जाणांक अपंगूळ भुरगीं जाल्यांत.

सगळें पळोवन जातकच आमकां स्नॅक्स खावपाक व्हेलीं. खावचे पयलीं हात धुवया म्हूण हात खंय धुवप तें दाखयलें. एक लांब कोंडो आडवो घातिल्लो. ताच्या मदल्यान उदक येतालें. हात धुवन थंय घातिल्ल्या माटवांत गेलीं. थंय लांकडाचे बांक आनी लांब टेबलां घातिल्ली. खावपाक उकडिल्लीं कणगां आनी फुटी च्या दिली. खातकच आमी परतलीं.

ह्या देशांत सगळे कडेन फुकट WIFI आमी रावतालीं त्या हॉटेलांत तर आशिल्लीच. जेवपाक वता त्या दर एका हॉटेलांत आशिल्ली. आमी आयिल्ले ह्या खासगी गाडयेंत लेगीत WIFI आशिल्लो.

जेवण आमी हॉ चि मिन शारांत परत दा ऑ प्लॅस ह्या हॉटेलांत घेतलें. ह्या हॉटेलांतलें जेवण आमकां सगळ्यांकूच आवडिल्लें म्हूण परत थंय जेवपाक गेलीं. मात्सो हॉटेलाचेर विसव घेतलो. सांजवेळा साडे सातांक सुमार इंडोचायना हे बोटीचेर गेली. हे बोटीचेर पर्यटक तशेंच थळावे लोक आयिल्ले. ही क्रूज एक ते देड वर उदकांत भोंवतली त्या वेळांत जेवण आनी सांस्कृतीक कार्यक्रम जातले अशें सांगिल्लें.

सकयल्या आनी पयल्या माळ्यार अशीं दोन कडेन टेबलां मांडिल्लीं. आमी सकयल्या माळ्यार बसलीं. हीं क्रूज सायगांव न्हंयेंत भोंवताली. रातची चलपी क्रुजांतल्यान हें शार सुंदर दिसतालें. व्हड व्हड इमारती मदीं मदीं जेवण येतालें. हांगा आमी नॉन वेज हॉट पोट मागयलो. भाज्ज्यां बरोबर सुंगटां आनी तिसऱ्यो आयल्यो. हांवे मात खावंक नात. हळद-मिरसांग लाय नासतना नुस्तें खावपाची संवय ना. पूण बाकीचे जिन्नस बरे आशिल्ले. पारंपारीक नाच, वादन हांचे कार्यक्रम चालू आशिल्ले. क्रुजाच्या वयल्या माळ्या वयल्यान देखाव सामको सुंदर दिसतालो. देड वरान सुमार क्रूज परत धक्यार लागली. क्रुजाचेर कांय जाण मोबायलाचेर कसली तरी मॅच पळयताले. सामके उमेदी आशिल्ले. हॉटेलार परततना रस्त्या वेल्यान मिरवणूक वताली. स्कुटरीचेर भुरग्यांक घेवन पालकांनी, बायलांनी, तरणाट्यांनी हे मिरवणुकेंत वांटो घेतिल्लो. हातांत विएतनामाचो झेंडो घेवन लोक सामके खूश दिसताले. मागीर कळ्ळें विएतनाम एक व्हडली फुटबॉल मॅच जिखिल्लो.

चवथ्या दिसा आमी हॉ चि मिन शार पळोवपाची टूर घेतिल्ली. १९९५ त् हांगा पर्यटक येवपाक सुरवात जाल्ली. ह्या शारांत बऱ्योच बागो आसात. हांगा एका बागेत म्हाका Open Gym दिसलें. बागेच्या रस्त्याक तेंकून आशिल्ल्या एका जाग्यार व्यायाम करपाची उपकरणां दवरिल्ली. फुकट व्यायाम करपाची सोय. तशें पळयल्यार म्हाका हांगा एक लेगीत मोठो मनीस दिसलो ना. दादलो तशेंच बायलो, सामक्यो बारीक. दुसरें म्हळ्यार कोणूय जाण्टो दिसना. हांची कांत मात्शी वेगळी. सामकी तुकतुकीत. तांकां सुरकुत्यो बी पडनात. सगळीं जाणां भुरगीं दिसतात.

फ्रॅंच लोकांनी हांचेर १०० वर्सां राज्य केल्लें. तांकां हें शार पॅरीसा भशेन करपाक जाय आशिल्लें म्हूण तांणी पॅरिसाक आसात तश्योच इमारती बांदल्यो. सगळ्यांत पयलीं आमी सायगांवचें फामाद पोस्ट ऑफीस पळोवपाक गेलीं. ही इमारत अल्फ्रेड फॉडलहॉक्स हाणें डिजायन केल्या. ताणेंच एफिल टॉवर डिजायन केल्ले. हांगा जायते पर्यटक आयिल्ले तशेंच कांय जाण आपल्या कामां खातीर आयिल्ले. १८८६ ते १८९१ ह्या काळांत बांदिल्ली ही भव्य इमारत आयजूय बी लक्ष

वेधून घेता. इमारतीचेर जरी फ्रेंच प्रभाव आसलो तरी मदीं मदीं हॉ चि मिन ह्या फुडाऱ्याचो व्हड फोटो पळयतकच आमी विएतनामात आसात हाची जाणीव जाता. हांगाच्यान जाय जाल्यार तुमच्या लागींच्या मनशांक पोस्टकार्ड धाडूं येता.

हे इमारतीच्या सामकें मुखार नॉट्रे डेम ही मुखेल इगर्ज. पॅरीसाक आसा ताजी हुबेहुब कॉपी. पूण ती भायल्या सावनूच पळयली कारण ताचें मॅन्टेनन्साचें काम चलतालें. इतल्यो पोरण्यो इमारती सांबाळून दवरप म्हळ्यार एक व्हड कसरत. काम चालू आशिल्लें तरी जायते पर्यटक भायल्यांतल्यानूच तें पळोवन वताले.

मागीर आयज मेरेनच्या इतिहासीक घटनांची गवाय आशिल्ली Independence Palace पळोवपाक गेलीं. हांगा भितर वचपाक तिकीट लागता. आमी कंपनी कडल्यान टूर बुक केल्ल्यान ते पॅकेजींत ह्या तिकिटांचे पयशे आशिल्ले. आमचो गायड तिकीट घेवन आयलो आनी आमकां भितर घेवन गेलो. ही पलास १ लाख वीस हजार स्क्वॅर मिटर जाग्यार उबी आसा. मुखार व्हड हिरवळ. धवोच रंग मारिल्ले हे इमारतींत ४ माळे आसात. आयज मेरेन हांगा ४ राष्ट्रपती रावल्यात. पूण चड दीस न्हय. एकटो एकूच दीस तर कोण ४ दीस. आतां राष्ट्रपती हा नॉय हांगा रावता. १९७६ वर्सा ह्या पलासीक National Site म्हूण जाहीर केली. तर २००९ वर्सा Special Site अशें जाहीर केलें. १९९० वर्सा ही पलास लोकांक पळोवपा खातीर उगडली. सगळ्यो कुडी पळोवपाक मेळटात. त्या तेंपा वेले सगळें सांबाळून दवरलां. पोरणे फोन लेगीत. पूण कित्याकूच हात लावप ना. लिफ्ट आसा आनी भायल्यांतल्यान सपणां आसात. भितर आशिल्लीं सपणां वापरूंक मेळना. तळ माळ्याचेर पयलींच्या राष्ट्रपतीची मर्सिडीज गाडी दवरल्या तर चवथ्या माळ्यार उगड्या जाग्यार हॅलिकॉप्टर दवरला. जाय तितले फोटो काडूं येतात. पलास खऱ्यांनीच खूब सुंदर आसा.

हांगाच्यान आमी चड इतिहासिक महत्व आशिल्लं War Ramnants Museum पळोवपाक गेलीं. हें संग्रहालय ४ सप्टेंबर १९७५ त स्थापन जालें. झुजाचो इतिहास फोटो आनी म्हायती सयत ह्या संग्रहालयांत पळोवपाक मेळटा. ह्या संग्रहालयाचो हेतू इतलोच, कोणेच झुजाक प्रोत्साहन दिवचें न्हय.

भितर सरतनाच काळीज पिंजपी एक व्हड फोटो मारला. झुजांत केल्लो विनाश. तांतूंत उबीं उगडीं ल्हान भुरगीं दिसतात. हें संग्रहालय तीन माळ्यांचें. जशें एक एक फोटो पळयतात, म्हायती वाचतात तशें मन सुन्न जायत वता. झुजांत वापरिल्लीं शस्त्रां, वेगळ्यो वेगळ्यो अत्याधुनीक बंदुको, गुळयो सगळें हांगा दवरलां. अमेरिकेन वापरिल्ल्या विशारी रसायनांची म्हायती, झुजा उपरांत ह्या रसायनांच्या प्रभावान जाल्ल्या अपंगूळ भुरग्यांचे फोटे हांगा दवरल्यात. एका माळ्यार ह्या अपंगूळ भुरग्यांनी तयार केल्ल्यो वस्तू विकपाक दवरल्यात. तांकां पळोवन मन खंती जाता. सत्तेचो मद मारतकच मनीसपण विसरप ही अत्यंत वायट गजाल.

ह्या झुजांत ५५,००० अमेरिकेचे सैनीक मेले. जायते विएतनामांतले नागरीक मेले. सैनीक आनी नागरीक सोडून ह्या झुजाची खबरां माध्यमां

खातीर नियाळ घेवपाक आयिल्ले फोटोग्राफर लेगीत मेले. हें झूज चलतालें तेन्ना जगभरांतल्यान जायते फोटोग्राफर विएतनामांत दाखल जाले. हांगा आशिल्ले फोटो पळयतकच आंगार कांटो येता. एका रुमांत दोन-तीन कडेन Touch Screen Board आसात. तांचेर खंयच्या देशांतले कितले फोटोग्राफर हांगा आयिल्ले ती सगळी म्हायती मेळटा. तांचे उपकार आटोवपी एक फलक हांगा मारला.

झूज सोंपतकच जाल्लो करार, दिसाळ्यांचेर आयिल्ले फोटे, तेन्नाच्या फुडाऱ्यांनी केल्लीं विधानां, झूज सोंपलें असो पॅरीसात जाल्लो करार, त्या खिणाचे फोटे, तशेंच अमेरिकेचें सैन्य परतें वता ते फोटे. सगळें हांगा पळोवपाक मेळटात.

संग्रहालयांत भायल्या आवारांत 'Open Air Exhibition' आसा. झुजांत वापरिल्लीं हॅलिकॉप्टरां, आर्टिलरी दवरल्यात. हें सगळें पळयतकच खऱ्यांनीच खूब वायट दिसता. ह्या आवारांत एक ल्हान कॅफे आसा. हांव, मम्मी आनी उज्वला मावशी सगळें पळोवन पयलीं सकयल देंविल्लीं. त्या कॅफेंत कॉफी पिवपाक पयलीं सकयल देंविल्ली. त्या कॅफेत कॉफी पिवपाक बसली. आमचो गायड भितर येवंक नाशिल्लो. ताणें सांगिल्लें जर कितें समजूंक ना जाल्यार फोटो काडून हाडात. आपूण मागीर सांगतां, पूण ती पाळी आयली ना.

बाकीचे येतात म्हणसर हांवें गायडाक तांच्या भाशेविशीं विचारलें, हांची भाशा आयकुपाक सामकी वेगळी. स्पॅनीश, लॅटीन, फ्रेंच आनी चिनी भाशांचो विएतनामीचे भाशेचेर चड प्रभाव आसा. हे भाशेंत फकत उतरां आनी व्याकरणाचेर न्हय तर उच्चाराचेर चड महत्व आसा. ७ आवाज आसात. एक उतर सात सात वेगळ्या वेगळ्या तरेन उच्चारुं येता आनी उच्चारां बरोबर अर्थ बदलत वता.

चिनान तांची ही भाशा ना करपाचो यत्न केलो. पूण लोकांनी तशें जावपाक दिलें ना. खंयच्याय देशाचो ताबो घेतकच, तांचेर शेक दवरपाक तांचें अस्तित्व ना करप गरजेचें. ते खातीर पयलीं भाशा ना करतात. भाशा ना जावप म्हळ्यार आपसूक देशाच्या लोकांची संस्कृताय, तांचें अस्तित्व ना जाता. पुर्तुगीजांनी गोंयांत हेंच करपाचो यत्न केल्लो. कोंकणी टिकून उरली. आनी म्हणूनच संस्कृताय, गोंयकारपण टिकलें.

चार दीस जाल्ल्यान सगळ्यांक भारतीय जेवण जेवपाची इत्सा जाल्ली. आमी Google चेर भारतीय हॉटेल सोदलें. पंजाबी हॉटेल. हॉटेलाचो मालक पंजाबी आशिल्लो आनी १५ वर्सां सावन हांगा स्थायिक जाल्लो. आमी चिकन तंदुरी, नान, रोटी, चिकन मोगलाय, चिकन टिका मसाला हे जिन्नस मागयले. आपलें जेवण तें आपलें जेवण. गोंयचे भायर गेल्यार गोंयच्या जेवणाची ओड लागता. पूण परदेशांत वतकच मात खंयचेंय भारतीय जेवण आपलें दिसता. जेवण जातकच आमी हॉटेलार गेलीं. मात्सो विसव घेवन सांजेवेळा ४ क सुमार बेन तान मार्केट पळोवपाक गेलीं. आमच्या हॉटेला कडल्यान सामकें दोन मिनटाच्या वाटेर आशिल्लें. हें हा चि मिन शारांतले एक फामाद मार्केट. हाका ४ प्रवेशद्वारां आसात, दर एका प्रवेश द्वाराचेर एका जनावराचें चित्र. हें मार्केट केन्नाच बंद आसना. सकाळचें ८ क उगडटा आनी सांजेवेळा ६ क बंद जाता. पर्यटक हांगा हस्तकला आनी यादस्तिका घेवपाक येतात. कोंड्या पासून तयार केल्ल्यो वस्तू मेळटात, तशेंच कपडे, विएतनामाचो पारंपारीक पोशाक, हांगाच्यो टोप्यो, फ्रिज मॅग्नेटस्, कांचेच्यो वस्तू, बुद्धाच्यो मुर्त्यो मेळटात.

आमी जायती खरेदी केली. मम्मीन कांचेच्यो वस्तू घेतल्यो. हांवें भेट दिवपाक जायत्यो वस्तू घेतल्यो. कांय काचेच्यो वस्तू घेतल्यो विएतनामाची याद म्हणून. सटाल जंग संग्रहालयाक भेट दित सावन संवसाराच्या खंयच्याय जाग्यार गेले म्हणटकच याद म्हूण कितेंय तरी हाडप अशें दिसलें. हांव परदेशांत वतकच ज्या ज्या देशांत बौद्ध धर्माचो प्रभाव आसा, त्या देशांतल्यान हांव बुद्धाची एक तरी मूर्त हाडटांच.

हांगाचे लोक सुशेगाद. कोणूच घाई-गडबड करून धावपळ करतना दिसना. कश्ट करतात पूण तोंड हासरें. हांगा एक Street Food Market आसा. जेवणाचे मार्केट. तिळसांजचे उगडटा. सगळ्याक पिकपिक जावपी लायटी. मोठ्यान पदां लायतात. सामकी गजबज, रातचें जेवण हांगा घेतले.

भितर सरतनाच आनी फाटले वटेन लांब बाक आनी मदीं लांब टेबलां, मदीं जेवणाचें स्टॉल. हांगा भारतीय, विएतनामी, इटालीयिन, लॅबनीज अशें जायत्या देशांतलें जेवण मेळटा. तशेंच तरेकवार फळांचे ज्यूस, स्मूदी, आयस्क्रिम सगळें मेळटा. जाय त्या स्टॉलाचेर जेवणाची ऑर्डर दिवप आनी पयशे फारीक करप. ज्या देशाच्या स्टॉलार जेवण मागयलां त्या देशाचो ल्हान झेंडो दितात. तो टेबलार दवरप. जेवण तयार जातकच तांचो मनीस जेवण घेवन येता आनी वतना झेंडो व्हरता. आमी भारताच्या स्टॉलार जेवण मागयल्लें. चिकन खिमा, मटन खिमा, नान, रोटी आनी मटर पुलाव. जेवण सामकें रुचीक आशिल्लें. पोट आनी मन दोनूय भरलीं.

हांगाच्या रस्त्यार रातची एक मजेशीर गजाल पळोवपाक मेळटा. हांगा जायते कडेन रस्त्यार चाकां आशिल्ले गाडे पळोवपाक मेळटात. पूण हे गाडे जे तरेन व्हरतात ती एक मजा. स्कुटर चलयतना एका हातान चाकां आशिल्लो गाडो ओडून व्हरतात. अशें करतना सहजतायेन ट्राफिकां भितर घुसतात. संवय आंगवणी पडल्या. पळोवपाक मजाच दिसता.

२२ तारीक उजवाडली. सकाळीं पयलीं आमी हांगा आशिल्लें हिंदू देवूळ पळोवपाक गेली. कांय शेंकड्यां आदीं तमिळ वेपारी भारतांतल्यान सायगांव हांगा स्थलांतरीत जाले. १९व्या शेंकड्यांत हांगा ३ हिंदू देवळां बांदलीं. तांतुतलें एक मरीअम्मन देवूळ. हें देवूळ विएतनामांतल्या छेत्तिय्यार समाजा खातीर बांदिल्लें. देवूळ सामकें रस्त्याक तेंकून आसा आनी भायल्यातल्यान चैन्नयंत आसा तशेंच हें देवूळ दिसता. भितर सरतानाच भांगराच्या रंगाची व्हड घांट आसा. हांगाच्या लोकांची पाय पडपाची पद्धत मात्शी वेगळी. गर्भकुडीच्या वण्टीचेर दोनूय हात दवरतात आनी ताचेर तकली दवरून ते कितें तरी मागतात वा प्रार्थना करतात. फुलां घालतात आनी उजवाती लायतात. भायर कांय लोक फुलां आनी उजवाती विकपाक बशिल्ले.

हिंदू देवांचे फोटो मारल्यात. वण्टीचेर देव आनी देवींच्यो मुर्ती कोरांतल्यात, सकयल तांचीं नांवां बरयल्यांत. कांय नांवां आमी म्हणटात तींच तर कांय वेगळीं. तशेंच मेरु पर्वताची एक ल्हान प्रतिकृती केल्या.

मेरु पर्वत हो हिंदू धर्मांतलो एक पवित्र पर्वत. हांगा कांय देवा विशीं म्हायती मारल्या. हांगा एका मेजाचेर तांचे भाशेंतली भगवद्गीतेची प्रत दिसली. तिच्या कुशीक गांधीजींचेर एक पुस्तक दवरिल्लें. गीता आनी गांधीजी, ह्यो दोनूय गजाली केन्नाच्च कालबाह्य जावच्यो नात. सामक्यो सनातन. आमी कांय वेळ हांगा बसलीं. मम्मीन फुलां आनी उजवाती विकत्यो घेतिल्ल्यो. भटान आमकां प्रसाद म्हूण दोन केळीं दिलीं.

हांगाचेय लोक धार्मिक. धर्म खंयचोय आसूं, श्रद्धा महत्वाची. हांगा दर एका हॉटेलांत, दुकानांत, पार्लरांत एक ल्हान देवारो आसताच. त्या देवाऱ्या भितर दोन, तर देवाऱ्याच्या वयर लाफिंग बुद्धाची मूर्त आसता. जितले देवारे हांवें पळयले ते सगळे लांकडाचे आशिल्ले. हांगा मुर्ती मुखार सद्दा खाणाचो निवेद्य दाखोवपाची चाल आसा. हे लोक निवेद्याक फळां, शीत,सूप जें घटांत जाता तें दवरतात.

आमी रावताली त्या हॉटेलाच्या रिशेप्शननाचेर आसपी मनशाक हांवें हे मुर्ती विशीं सविस्तर म्हायती विचारली. ताणें सांगलें, हांतुतलीं ONG-DiA ही मूर्त म्हळ्यार समृद्धीचें प्रतीक. ही मूर्त दवरतकच भरभराट जाता. THAN TAI ही मूर्त समादान आनी शांतताय दिता. आनी लाफिंग बुद्धा ते वयर दवरता. तशेंच देवाऱ्या मुखार उजवाती लायिल्ल्यो आसतात. आनी दर देवाऱ्या मुखार एक काळींग वा तोरींग हें दवरिल्लें आसताच.

१२ क सुमार आमी आमच्या हॉटेलांतल्यान भायर सरलीं. वतना आमी भरपूर फळां घेतिल्लीं. विमानतळार पावन सगळ्यो फॉर्मेलिटीस जातकच आमी सगळ्यांनी फळां खालीं. मलेशिया वचपाक आमकां ४ क विमान आशिल्लें. विएतनामाची थोडी करन्सी उरिल्ली. हांव नोटी जमयता म्हूण म्हाका जाय त्यो थोड्यो नोटी काडून दवरिल्ल्यो. बाकीच्या उरिल्ल्या पयशांच्यो चॉकलेटी घेतल्यो.

आमी पावणे सातांक सुमार मलेशिया पावलीं. मलेशियाचे विमानतळ खूब व्हड. विमानांतल्यान देंवून सेक्युरिटी तपासा खातीर पावता म्हणसर पुरो जाता. सेक्युरिटी चेकिंग करुन बी जातकच पयलीं जेवपाक गेलीं. सगळ्यांक भूक लागिल्ली. हांवें आनी मम्मीन एक चिकन बिर्यानी आनी मॅकडॉन्डसाचो चिकन बर्गर घेतलो. १० डॉलरां भितर जेवण आयलें. उरिल्ले पयशे ताणं मलेशियाचे करन्सींत दिले. हांव नोटी आनी नाणीं जमयता म्हूण म्हाका तें बरेंच दिसलें. पूण जे जमयनात, पूण भोंवडी करतात तांणी सदांच कांय मलेशियन रिंगेट दवरचे. कारण आशियांत भोंवता जाल्यार जायते फावट ह्याच विमानतळा वेल्यान वच्चें पडटा. तेन्ना खावपाक, जेवण वा उदक बी घेवपाक बरें पडटा. शाम काका एकटोच मलेशियन रिंगेट घेवन आयिल्लो. आमी सगळ्यांनी अमेरिकन डॉलर्स दिले.

मलेशियाच्यान ९ क विमान आशिल्लें. जेवण जावन आमच्या गेटी कडेन पावतात म्हणसर बोर्डींग सुरू जाल्लें. भारतीय वेळेच्या रातच्या १२.३० क सुमार हैदराबाद पावलीं. कुडकुड्याची थंडी पडिल्ली. गोंयां वचपाक आमकां फांतोडेर ५ क विमान आशिल्लें. विमान वेळार उडलें आनी जायत्यो यादी आनी अणभव घेवन आमी गोंयां पावलीं.

संपर्कः ९४२११५२२९७

# एक्ये काणियेचो शेवोट



**स्याम बोळिये**

आमी काणी, जावं मोटवी या लांब, कित्या खातीर बरवंची? वाचप्यांक खूश करूंक? समजोणी दिवंक? बरी चाल शिकवंक? संसारार सुद्राप हाडूंक? बरप्याक पयशे करूंक? हे सकड शेवोट आमचे मतींत आस्येत पूण आमची काणी जर वाचप्यांक भर्पूर भोगणां अनभोग दिंवच्यांत सलवत तर, वयर सांगलेले खंचेच शेवोट ज्यारी करूंक सकचेबरी ना. म्हणजे जर एक काणी वाचप्यांचें गुमान आपणा थंय कयद करूंक सकना तर ती काणी कितल्या महत्वाच्या विशयाचेर आसल्यारी, कितल्या आपुरबायेच्या कवितेनीं विणलेले भाशेन बरयल्यारी तिका मोल ना.

वाचप्यांचीं भोगणां उसवन तांची आसक्त खंचावन आकेर पऱ्यांत त्ये काण्ये संसारांत तांणी जियेशें कर्न काण्येचे संपणेर एक 'नवो मनीस' जाल्लें भोगाप तांकां दिवंक सकल्यार ती बरी आनी उत्तीम काणी जावंक पावता. वाचप्यांचो अनबोग फकत संतोसाचो जायजे म्हण ना. जायित्यो काणियो दुखीन आनी घातान भरलेल्यो आसोनी, वाचप्यांक एक नवो आनबोग दिवंक सकता. देकून काणियांनी दींवचो हो आनबोग कांदडी भाशेन ''काव्यानंद'' या नांवाडदीक ग्रीक तत्व्शशास्त्री अरिसटोटलाच्या उत्रांनी Catharsis म्हणलें नांव घेता. ह्या अनबोगाचो एक गूर्त काणी वाचून संपल्या उपरांती त्ये काणियेंतले किरदार, घडितां आनी संपणी वाचप्यांचे मतींत लांब आवदेक घुंवते आसचें.

ह्या चिंत्पाक पुश्टी जावन साहीत (Literature) केदना आनी कशें उबजता म्हणले विशीं दो. विल्यम द सिलवा, विल्सन कटीलाच्या दीक आनी पीक कविता जम्यांत ह्या परीं विवरायता: ''कविता आनी सगळें साहीत आपशीं निर्माण जायनांत तीं झरिबरीं मनशां कल्पनेंतल्यान पाजारोन आनी मनांतल्यान उमाळोन येवका. त्या पाजराक आनी उमाळ्याक धग आसता. तशें म्हणटच, कविता निर्माणाची भोंवतण, पाटभुंय, काळाथळाची नाजुकाय आनी कवीच्या जिवितागतिची धार आनी व्होळो आमी मनांत घेतलीं जाल्यार आपल्या कवितांनी चड बरो जावन उगडापो जाता कवी, आनी वाचता वाचताना कवितेचो रोस सामको आपरोस जाता वाचप्यांक. परतून वाच्यां म्हळ्ळी वोड कित्याक तांडई येतात. हें सायितांतल्या अभिवेक्तिचें विराट रूप. वाचप्याकई आपल्या अपूण-उगडापणाक आनी विचाराक वोडटा.'' (पान १६७)

ह्या वयर सांगलेल्ये जाणतिकायेक दाकलो म्हणले बरी विशाल कोंकणी साहित्य शेतांतल्या उत्तीम काणियांचो पुंजो सूरयो उदेता कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमीन वल्ली क्वाड्रस, अजेकार, हाच्या संपादकपणा खाल परगट केला. ह्या पुंज्यांतल्यो २७ काणियो कोंकणी भाशेच्या विसतराय आनी विविधतायेंची वळख आमकां दितात. विसताराय भारताच्या दर्या तडिच्या प्रदेशानीं तशें परगांवांनी सयत आसा तर विविधताय जातीं, धर्मां, बोली आनी लिपियांनी वांटलेली दिसता. गोंय प्रदेशाच्या बर्प्यांची हाज्री चड म्हण दिसल्यारी ज्यो काणियो ह्या पुंज्यांत आसात त्यो देस तशें विदेसामट्टाच्या हेर भासांतल्या काणियांक स्पर्दी जावंचे तसल्यो. देकून हांव म्हणटां कोंकणी भास उलंवचो लोक थोडोच तरी तांतलें साहित्य मात्र बरयांतले बरें. ह्या पुंज्यांतली खंची काणी घेतल्यारी त्ये काणिये पाटलो बर्पी आपल्या बर्पांत आपली भोंवतण, सामाजीक तशें धार्मीक पाटभ्यं आनी काळा थळाची नाजुकाय परजळशें कर्ता. ह्यो काणियो वाचताना बोलिंचो फरक वाचपाचे सलिसायेक अडकळटा तरी वेगळ्या वेगळ्या प्रदेशांनी वापरार आसची उत्रावळ आमकां आमच्या माल्गड्यांचो उगडास करून दिता. जायित्तीं उत्रां जीं म्हज्ये आज्येन, म्हजे मांयन आनी तांच्ये प्रायेच्या हेरांनी वापरलेलीं पूण तांच्या फुडल्या संततेंनी होगडावन घेतल्लीं ह्या काणियांनी परत झळकतात. देकून, जर आमीं लिपियांचे दोरे कोसळावन एकामेकाच्यो काणियो आनी सायीत वाचुंक तयार आसांव तर आमचें कोंकणिपणयी जिवाळ जावंचें खंडीत.

ह्या एद्या व्हडा, चडुणे साडेपांयशीं पानांच्या जम्यांतल्ये हरयेके काणिये विशीं बारिकायेची नदर धांवडांवचो ह्या बर्पाचो शेवोट न्हय. पूण ह्यो काणियो वाचूंक प्रेरण दिंवचें काम मात्र हांगासर करयेत. त्ये दिश्टीन बरंवचें तर, जर एकल्याक मोटव्यो काणियो बरवंक शिकोंक जाय तर हांतले बरवपी उत्तीम देक. काणी बरंवची कला (technique) हरयेका बर्प्यान आपणायल्या आनी आपल्यो काणियो त्ये जाण्वायेन नेटायल्यात. वाचप्यांचें ध्यान आकर्सूंक गर्ज आसची सुर्वात, काणियेचे संपणे परयांत तांचें गुमान गुंतून धरूंक गर्ज आश्शें सस्पेन्स तशें मोन आकर्सुंक सकचे कीरदार (characters) आनी आकेरीक मती पडद्याचेर खंचोन उर्चे तसली संपणी; ह्या सर्व तक्निकेंनी ह्यो काणियो विणून हाडल्यात.

ह्या काणियां खातीर बर्प्यांनी विंचलेले विशय थरावळ आनी विभिन्न जाल्ल्यान काणियांचे पंगड कर्न तांचो विमर्सो कर्चें कश्टांचें. तरी पंद्रा काणियो दादल्यांच्यो आनी बारा स्त्रीयांच्यो आसोन स्त्रीयानीं बरयलेल्या काणियां पयकी चडताव आपल्या लग्ना उपरांत पुतांनी आपल्या बायलांच्या गर्जां खातीर आपलें कुटंम (आवय-बापय, भाव-भयणी) सांडून पयस वेच्या विशीं या सुनांनी घोवांच्या घराच्यांक लेकिनाशें रांवचे विशय उटोन दिसतात. तरी ह्या पयकिंच्या जायत्या काणियांनी प्रायवंत तरी आवयो आपल्या पांयांचेर परत उभीं रावतात आनी फुडले दीस दुकांचे जायनाये म्हण झुजतात तें पळेवंक मेळका.

देकीक, हेमा नायकाच्या पुनर वैभव, डॉ. जयंती नायकाच्या ताठ कणो काणियांनी ह्या विशयांचेर मन लागयिल्लें दिसता. ह्या जम्यांतली हरयेक काणी काणियेंतल्या किरदाराक एका नव्या पावंड्यार व्हर्न पायता तशें वाचप्यांच्या भितरलो विकास आनी भोगणां आनबोग

**(पान ३० चेर)**

# सवंय

## वॅली क्वॉड्रोस

तुका कितलेशे पावटीं सांगलां, एक पावटीं कोलबेल दांबल्यार म्हाका आयकता म्हणून.
दार उघडतानांच एका हातीं दिसाळें घेवन अन्येका हातीं दोळ्याचें वोकल सार्के करीत गोडसेन सवंयेचो धेंकणो घालो.

सवंयेपरींच आजयी घरकामाच्या बायलेन अपरादी जिनोस तोंडार घालून गोर्वापरीं भितर रिगोन, कुजनाच्या बगलेच्या बाल्कनी थावन जाडू हाडून घर जाडुंक लागलें.

गोडसे सिट्टींग रुमाच्या बाल्कनींत अपल्या बीन ब्यागाचेर बसून दिसाळें वाचतालो. बगलेन चायेचें कप येदोळच खाली जाल्लें, तांतूच वोडून पालवयिल्ल्या सिग्रेटिचें मुळकाट घाल्लें. सट्ट कर्न ताच्या मतीक झळकालें; फकत एक पावटीं कोलबेल धांबल्यार पुरो' म्हणलें रजार केल्लें आधल्या घरकामाच्या बायलेक शिवाय ही थोड्या हफ्त्यादींच आयिल्ली. पूण गोडसेच्या तोंडार जाव मनांत जाव कसलेच चुचुरि नातले.

एका फांत्यार उटून रातीक निदोंक वेतापर्‍यांत आवाजच आवाज. चोवदा म्हाळयेच्या त्या सिंगल टवरांत गोडसे इक्राव्या म्हाळयेंत रावतालो. एका फांत्यार केदना दूदवालो, केदना पेपरवालो, केदना फुलवालो, मेयडां; एकलें रांदूंक, एकलें घर नितळ करूंक. आनी रांदूंक मेयड आयिल्लेंच ताका सक्कद काम उटाउटी जायजय, देकून बटाटे उकडूंक सयत कुक्कर, दाळ शिजवंकयी कुक्कर, शीत करुंकयी कुक्कर म्हणून एका पाटल्यान एक कुक्कराच्या शिळोण्याचो गाज पावानांतल्ल्याक सकला वेवेगळ्या इसकोलाच्या बस्सांनी होर्न मार्चो आवाज, कारां-रिक्षाच्या होर्नांचो आवाज आयकून कर्करे भगतालें.

हें पावानांतल्याक बगलेच्या फ्लॅटांत सकाळीं पाठ-पुजा आनी कांपिणिचो आवाज.

"तुजें नांव कितें म्हळेंय?" गोडसेचो ताळो गर्जेच्याकी व्हड आसलो.

"मंगल" जाडू मार्न आसच्या मेयडान एकच पावटीं भिंयान आंग काडून परत अपराधी जिन्सार बाल्कनिते वशीन पळेवन जाप दिली.

"हें कसलें नांव? मंगळ आसूंक जाय" गोडसेन सांगलें.

मेयड जाडू मारून आसलें. भितरलें निदचें कूड, भितरली बाल्कनी, उपरांत भायलें कूड, बाल्कनी आनी कुजन. उपरांत बाल्देंत उदक घेवन तांतू थोडें फिनायल घालून घर पुसून कुजनांत जमो आसचो खचरो, खचऱ्याच्या ब्यागाक व्हरून घरा भायर दवर्न वचूंक कांय वीस-पंचवीस मिनुटां लाग्तात.

सक्कड सवंय केल्या. मेयडां सयत दिसाक धा-पंद्रा घरांनी काम कर्तात देकून तांकांय दर्वड.

घर पुसून जाल्लेंच गोडसे उटून, फुलवालीन हाडल्ल्या फुलांचो हार वणदिचेर उमकाळायिल्ल्या समेसत कुलदेविंच्या फ्रेमाचेर घाल्ता, अगरबत्ती पेटयता, तीन-च्यार पावटीं त्यो त्या फ्रेमाचेर भंवड ायित्त, त्या स्टेंडाचेर दवर्न कांपीण व्हाजयता. ही तीन थावन साडेतीन मिनुटांची सवंय गोडसेची.

"जातिहूं"

हातीं खचऱ्याचें ब्याग घेवन वेच्या मेयडाक परत धेंकणो घालो "बाल्कनिचेर आसच्या झाडांक उदक घालांयवे?"

मेयड परत अपरादी जिनोसार अपली गोमटी सकला घालीत, परत न्हाणियेक वचून, तांतलें एका मग्गांत उदक घेवन हाडन बाल्कनिचेर चट्टेंनी आसच्या झाडांक उदाक दिताना गोडसेचीं मनांतलीं उत्रां भायर आयलीं;

"तुमकां काम उणें आनी पगार चड जाय."

परत तें मेयड गोर्वापरीं कितेंच उलयनासताना चल्लें.

***

कांय साडेतीन वर्सां जाल्यांत गोडसेन घाटकोपरच्या ह्या बिलडिंगाक शिफ्ट जावन. पयलें तो चुनभट्टिंत एका कोलोनिंत रावतालो. मिल्लांत काम करून आसलो उपरांत लोकल कोर्पोरेतराचो खासगी कामाचो जातच, मिल्लाचें काम सोडून, समाज सेवेचो वावर म्हणून दीस सारले.

"उत्रां उत्रांक धेंकणे घालून उलंवची ताची सवंय. देकून ताचे लागीं दीस काडूंक कोणाकच जायना" थोडे पावटीं बिलडिंगाचे वाचमेन एकामेका उलयताले म्हळ्ळी खबर गोडसेच्य कानांकयी पडल्या.

बिलडिंगाचे वाचमेन सयत चडताव नेपाली. नांवातेकीद बादूर तरयी, एक व्हड धेंकणो घाल्यार 'जी शाब' म्हणताले.

"कितलो तेंप थावन काम तुमी कर्तात, एक निर्मळ घर काम कर्च्या बायलेक तुमी सोधूंक सकानांत?"

आयलेवार तिस्री मेयड काम सोडून गेल्लेपरिंच गोडसेन इंटरकोमाचेर वाचमेनांक धेंकणो घाल्लो.

मेयडां सयत जायतीं येतालीं, बिळडिंगां सोधून, कामां सोधून. आनी सर्वांचो विवर त्या बिलडिंगाच्या वाचमेनां लागीं आसतालो. थोडे वाचमेन सयत तांचे कर्नां कमिशन घेताले.

सकाळींच्या कर्करयामधें मेयडांचें रामायण. हांकां सयत कोण औरंगाबाद, सांगली, कोल्हापूर, रत्नगिरी आनी खंय थावन आयिल्लीं मेयडां, मराठींत कितें सगळ्यो गजाली उलयतात?

पूण ह्यो पावटीं आयिल्ली मेयड चडतीक कितेंच उलयनातलें. तिणें उलंवचे एक/दोन सब्ध म्हळ्यार 'हूं' आनी 'जातिहूं'

थोडे पावटीं गोडसेन मतींत चिंतल्लें आसा, कांय म्हजे धेंकणें आयकून मंगळ रडूंक आसा? कित्याक म्हळ्यार केदनांय तिचें तोंड पळेतानां सयत तें ल्हान, बावल्लें दुकेसत आसतालें.

हे सर्व तांचे वेस. गायरां परीं नटन कर्चें पूण बुदी कोल्याच्यो. परत मतींत आटोव घालो ताणें. गोडसे जाणासलो, कोणा थावन कशें काम करयजय म्हणून.

कोणा लागीं कांय सळगेन उलयल्यार उपरांत तांचे नाटक सुरू; कोणाक रजा जाय, कोणाक पगार चड जाय, कोणाक तांच्या सयऱ्यांक काम सोधून दिजे आनी कितें आनी कितें.

आतातां गोडसेन सवंय केल्या. फकत धेंकणे घालून कामा करंवचीं.

***

थोडे दीस गेल्ले परीं मेयड रांदून आसले परीं तिचें मोबायल रिंग जालें.

गोडसे बाल्कनिचेर बसून दिसाळें वाचतालो तरयी ताचे कान नीट जाले.

मेयड फोनाचेर उलवन आसलें; ''हो.. व्हय? छे... जायत... सांग्तां.''

''साब... आज मंगळ कामाक येना खंय'' फोन बंध करीत मेयडान गोडसेक उद्देशून सांगलें.

''कितें गजाल?.. तर घर नितळ कोण कर्ता? आज तूंच नितळ कर'' गोडसेन सवयेपरींच जाप दिली.

रांदून जाल्लेंच जाडू हातीं घेवन मेयड म्हणालें;

''तिचो पती पिंवडो, तिका सुशेगात मार्ता, काम करिना बगार बायलेकर्ना काम करवन जियेता बडवा.''

गोडसेन तिच्या उत्रांक चडीत गुमान दिलो ना. मेयड सयत घर नितळ कर्ताना कितेंगी पुर्पुरोन आसली. ती कोणा विशीं उलयता म्हळ्ळेंय गोडसेक समजालेंना.

'छे छे.. मंगळ दिसता गायरा परीं पूण तितलें मासूम आसचें ना. पाटल्या इतल्या दिसांनी अपणान पार्किलां, कितें कितें धेंकणे घाल्यारी तें भिल्कूल रडाना'. गोडसे आपल्या डायरेंत नोट कर्न आसलो. काम करिनातलो दीस तो मेजून दवर्तालो, मयन्याचो पाग दिताना सांभाळांतलो खात्रुंक उडास जायत म्हळ्ळे चिंत्लेन.

***

दुसरे दिसा मंगळ कामाक आयलें, गोडसेची नदर तिणें लिपवंक आशेंवच्या तोंडाचेर पडलीच; एक दोळ्याचेर काळभाण पडल्ली. कपलाचेर तांबशेल्लें दाडकें. वोंटाचेर फुटोन दाट जाल्लें काळें रगत.

कित्याकगी गोडसेक आज धेंकणो घालूंक मन आयलेंच ना.

पूण समधानेन, लोव ताळ्यांत उलंवची सवंय अजून गोडसेन केल्लिना देकून तो वगोच रावोन दिसाळें वाचि लागलो. पूण काल रांदच्या मेयडान उचारल्लीं उत्रां यादीक आयलीं.

''काल कितें जालें मंगळ.''

गोडसेन हळू सवाल करूंक प्रेतन केलें, पूण धेंकणे घालन सवंय केल्ल्या ताच्या ताळ्यांत हळू आवाजच आयलोना.

गोडसेन काल मिटाय दुकाना थावन थोडे लाडू हाडल्ले. कांय एक लाडू मंगळाक दिव्यां म्हणून तो उटलो आनी घर नितळ करून खचऱ्या ब्याग घेवन येंवच्या मंगळाक सांगी लागलो;

''तुवें आनी गोर्वापरीं कर्चीं सवंय सोडीजाय, तुका कशें ताणें अशेंय मार्चें? तूं कित्याक गायरा परीं वगेंच रावताय?, धर हो लाडू घे.''

मंगळान अपलो हात मुकार हाडून तो लाडू घेतलो.

लाडू घेताना तिच्या दोळ्यांतले गळोन येंवचे दोन थेंबे दुकां मात्र गोडसेच्या दोळ्याक पडानासताना गेलेनांत.



# कल्पना शक्ती

कृ. म. सुखठणकार



कल्पना शक्ती ही एक तरेची शक्ती हें आमकां उतरां वयल्यानूच कळटा. शक्त म्हणटकच ती सगळ्यांकूच आसता अशें ना. थोड्यांक चलपाची लेगीत शक्त आसना. थोड्यांक उलोवपाची पसून शक्त नासता. ही अवस्था तात्पूर्ती आसूं येता वा कायमची. निकाहा वेळार 'तुम्हे यह निकाह मंजूर है' अशें काजीन विचारलें तेन्ना 'हाँ जी' म्हणपाची शक्त आपल्या भितर नाशिल्ली अशें म्हाका गफूर चाचान एकदां सांगिल्लें. गफूर चाचाची गॅरेज आमच्या घरा फाटल्यान आसा. आमच्या मारुती ८०० चो काब्युरेटर लीक जातकच तो ताका वेल्डींग मारून दिता, तुमचे म्हायती खातीर. सोड.

कल्पना शक्ती ही थोड्या प्रमाणान तरी सगळ्यां भितर आसता असो म्हजो अभ्यास सांगता. कारण कल्पने शिवाय मनशाची जीण कठीण जातली आशिल्ली अशें म्हाका तरी दिसता. जेन्ना आमी 'म्हाका तशें दिसलें' अशें म्हणटात तेन्ना आमी कसली तरी कल्पना केल्ली आसता हें आमी विसरतात. कल्पना शक्ती फकत साहित्य निर्मिती पुर्तीच आसता अशें कोणाक दिसता जाल्यार ती चुकीची गजाल. 'हांवें बांगडे हाडले म्हणटकच तूं ताचें सुकें करतलें आनी वांगडा दाळीचो सांगो घालून रोस करतलें अशें म्हाका दिशिल्लें' हें येदें व्हडलें वाक्य कल्पना शक्तीचेरूच आधारीत आसा. ही कल्पना एखाद्या वेळार कवी कडेन लेगीत आसचीना. बाकीबाब आपले कवितेंत सगळे नग दिवन शेवटाक रोस कर अशी ऑर्द दिता. हेच खातीर हांव म्हणटां देव सगळ्यांक सारकी कल्पना शक्ती दिना. मन सगळ्यां कडेन आसता, बॉड सगळ्यांकूच आसूंक जाय अशें ना. ते नासल्यारूय कमीपणा येवपाची गरज ना. आज बॉड नाशिल्ली जमातूच संवसारांत भरल्या. सोड, तो आमचो विशय न्हय.

तर, मन आसलें म्हणटकच कल्पना करप आयलेंच. कल्पना करपा खातिरूच निर्मात्यान आमकां तें दिलां. 'मनासी टाकी मागे गतीसी तुळना नसे' अशें आमचे श्रद्धा स्थान रामदास स्वामिनी मारुती स्तोत्रांत म्हणलां. हाचे वयल्यान आमकां मनाची कल्पना करपाची शक्त कितली ती कळटा. समर्थ मारुतीची तुळा मना कडेन करता आनी ताचो वेग थारायता हें आमी मतींत दवरपाक जाय. कल्पना करपाक पयशे पडनात हें म्हत्वाचें. आमचो मधूचंद्र बांद्यां जालो. जे घरांत मधूचंद्र जालो तें घर शेतांत आशिल्लें. मेरे वयल्यान चलत आमी ते घरांत वतालीं. मेरे वयल्यान चलतना अचकीत आमी ट्यूलीप गार्डन नेदरलॅण्डाक आसात अशी कल्पना हांवें केली आनी हिका सांगली. हिकाय ती आवडली. मागीर हांवें मेरेचे एके वटेन रावन 'देखा एक ख्वाब तो ये सिलसिले हुए..' म्हणलें आनी ही 'ये गिला है आपकी निगाहों में फूल भी हो दरमियाँ तो फासले हुए' अशें म्हणत मेरेचे दुसरे अर्दांतल्यान अडोळश्याच्या झाडां मदल्यान धांवत आयली. सिलसिला सिनेम्यांत रेखा अशीच धांवत येता पूण अडोळश्याच्या झाडां मदल्यान न्हय. अडोळसो ही एक वखदी वनस्पती. आयुर्वेदांत तिका म्हत्वाची सुवात आसा. पयलीं जोर बी येतकच अडोळश्याच्या उदकान न्हाताले. आतां थंडी जातकच अडुळसा सिरप घेतात. ही अडोळश्याच्या झाडां मदल्यान धांवत आयली देखून हांव अडोळश्याची महिमा सांगतां अश्यांतलो भाग न्हय. 'शहाणे करुन सोडावे सकल जन' हो म्हजो सभाव. सोड. तर, आमी कल्पना शक्तीच्या जोरार नेदरलॅण्डाचें ट्यूलीप गार्डन बांद्यां हाडलें, एकूय पयसो खर्च करी नासतना. यश चोपडाक मात करोडों रुपया मोडून नेदरलॅण्डाक वचून हे पदाचें शुटींग करचें पडलें. कल्पना शक्तीचो फायदो तो हो.

आमचे भितरलें कल्पना शक्तीचें प्रमाण आमकां ल्हान आसतनाच कळटा. हे बाबतींत आमकां आमच्या जल्मदात्यांचो हातभार लागता म्हणल्यार जाता. पावस पडपाक लागतकच मळबांत गडगड मारपाक लागतालो तेन्ना आमचीं जल्मदातीं आमकां म्हातारी वयर बसून दळटा म्हूण सांगतालीं. आमी आमची कल्पना शक्ती वापरून म्हातारी तयार करून तिका दळपाक बसयताले. जांकां कल्पना शक्ती मुळांतूच कमी आसा तांकां हें शक्य जाय नाशिल्लें. तीं भुरगीं 'म्हाका दाखय पळोवया खंय बसल्या ती' वा 'ह्या पावसांत ती कशी दळटली सगळें पीठ भिजतलें मुगे' अशें म्हणून जल्मदात्यांक पिडटालीं. म्हाका आकांताची कल्पना शक्ती आसल्या कारणान ती म्हातारी दळूंक बशिल्ली दिसताली. हांव 'काल तांदूळ दळ्ळे आज कितें दळूंक घेतलें गे' असले प्रस्न जनेल उगडून ते म्हातरेक विचारतालों. अशें हांवें लग्न जायसर केलें. लग्न जातकच हिणें म्हाका गडगड कित्याक मारता तें बसोवन सांगलें. ताचे फाटले सायन्टीफीक रिझन सांगलें. मागीर हांवें जनेल उगडून म्हातारे कडेन उलोवपाचें सोडलें. आसूं. रेखा भुजंगराव हुबळीकरा कडेन ताचो चांदोबा मामा लिंबोणीच्या झाडा फाटल्यान रावन उलयतालो अशें ताणें म्हाका एकदां सांगिल्लें. हांवें ताका 'अगं माणूस लेगीत चंद्रावर पोहचला, चंद्र तुझा मामा कसा होईल? चंद्र हा एक ग्रह आहे आणी तो पृथ्वी भोवती गरऽ गरऽ फिरतो. हिचलकरंजीहून तुम्हाला जोंधळे घेऊन येतो तो तुझा मामा' अशें केन्नाच म्हणलें ना. वयल्यान ताचे कल्पना शक्तीक मनांतल्यान दाद दिली. असलींच मनशां मागीर फुडें वचून कवी जातात आनी झब्बे जाकेटां बी घालून फिरतात. सोड.

मनशां भितर स्त्री वर्गाक आकांताची कल्पना शक्ती आसता. देवाची देणगी ती. ताचेर म्हाका कांयच म्हणपाचें ना. तांचे कल्पना शक्तीक मर्यादा अशी ना. तांचे सुपीक तकलेंत कसली कल्पना

जल्माक येत सांगू नजऽ. सगळ्योच चलयो सोळा वर्सां जाल्या बराबर आपल्याक व्हरपाक घोड्यार बसून राज कुंवर येतलो अशी कल्पना करपाक लागतात. तांचे तकलेक सोळावें वर्स लागल्या बराबर कितें जाता खबर ना म्हणुनूच तांचे खातीर 'सोळावे वरीस धोक्याचे' अशें आमच्या जाण्टेल्यांनी म्हणून दवरलां. सोळावें वर्स लागतकच तीं कितें करीत सांगू नजऽ. 'ती फूल राणी' नाटकांत मंजुळा अशीच कल्पना करता. 'कुठून सा येईल राजकुमार सफेद घोड्यावर होऊन स्वार. नदरेला जेव्हा नदर भिडल झटक्यात माझ्या पाया पडल. म्हनल रानी तुझ्यावर झालो फिदा क्या खूबसुरती कैसी अदा. माग माग काय हवं ते माग प्यारी माझ्यावर धरु नको राग'. जर फुटपाथा वयली मंजुळा राज कुंवराची कल्पना करूंक शकता तेन्ना हिणेंय अशीच कल्पना केल्ली हें आयकून म्हाका व्हडलें अजाप जालें ना.

लग्ना कडेन हांवें फेटो बांदून घोड्या वयल्यान येवचें अशी हिची इत्सा आशिल्ली. आमच्या रायबंदरा घोडो सोडाच घोड्याचें चित्र लेगीत दाखोवपाक आमचे कडेन आज ना. धाव्या शेकड्यांत जेन्ना कदंब हांगा राज्य करताले तेन्ना अरब वेपारी हांगा घोडे देंवयताले अशें आयकून आनी वाचून जाणा. म्हजे लग्ना कडेन एक्कूय घोडो मेळचो न्हय हें म्हजें नशीब. आनी कितें म्हणटलों! शेवटीं, हांव फकत फेटो बांदून चंद्रकांताले दोन काळजां लायिल्ले गाडयेंत बसून गेलों. माटवा कडेन देंवतकच हांवें लगाम धरिल्ले वरी एक्टींग केली. कमर बी बागोवन दोनीय पांय धोंपरा कडेन दोडून हिडी हिडी केलें. टायगरान घोड्याक हिडी हिडी करिनात म्हणून सांगलें. सावळ्यान आनी दत्तान तोंडान टीक टोक टीक टोक असो आवाज केलो. म्हाका उवाळूंक आयिल्ल्या व्हंकलकारांनी मात आमचे कल्पना शक्तीची तोखणाय केली. 'आमचे बायक व्हरपाक शेवटीं न्हवरो घोड्यार बसून आयलो' ही उतरां आयकून आमी धन्य जाले. हिचे कल्पनेंतलो राजकुंवर सपनांत धव्या घोड्यार बसून येतालो आनी हिचे म्हऱ्यांत पावतकच घोडो आपले फुडले दोनीय पांय वयर उबारून उबो रावतालो. ही मागीर घामाघूम जावन उठ्ठाली. अशें म्हाका हिणें सांगलें. जंजीर सिनेम्यांतूय अमिताभाक अशेंच सपन पडटालें आनी तोय घामाघूम जावन असोच उठ्ठालो अशी हांवें हिका म्हायती दितकच ही कपलाक अमृतांजन लावन न्हिदली. आसूं.

आमचे संतूय बी हे बाबतींत खंयच कमी पडनात. आमची माऊली हे पयलीं कवी आनी मागीर संत अशें हांव म्हणन. हांव विचारवंत जाल्ल्यान म्हाका अशीं विदानां कर्चीं पडटा. I cant help it! तर, माऊली एके कडेन म्हणटा 'पैल तोगे काऊ कोकताहे शकून गे माये सांगताहे. उड उड रे काऊ तुझे सोन्यानें मढवीन पाऊ'. कावळो बरी बातमी घेवन आयला म्हणून ताच्या पांयांक भांगराचे वाळे बी घालून ते सजयतलो अशी माऊलीची सुंदर कल्पना. हरशीं दारार कावळो भुकेन लेगीत रडल्यार आमी पावणो चुकून येत म्हूण भंयानूच ताका धांवडांयतात. साक्षात पांडुरंग घरा येतलो अशी कितें तरी कल्पना करून माऊली कावळ्याक दही भाताची उंडी लायता. ताच्या वोंठाक दुदाची वाटी लायता. आकांताची कल्पना शक्ती! पांडुरंगा वयल्यान याद जाली (पंढरपुरचो), देव लेगीत मनशान केल्ली आकांताची कल्पना. देवाक आपणें पळयलां अशें सांगपी म्हाका आज मेरेन पणजे बाजारांत कोणूच मेळूकना. सगल्यो कल्पना! कल्पनेचे बळग्यार तांकां आमी कैलासार आनी वैकुठार व्हरून बसयल्या. उरिल्ले गायेचे पोटांत रावतात अशें आयकून जाणा. मरतकच आडवे कैलासार वतात आनी उबे वैकुंठाचेर अशें आमीच थारायलां. कैलासार आनी वैकुंठार कनेक्टीव्हिटी ना म्हणटकच आमी वेळा प्रसंगाक मारिल्लो उलो तांच्या कानार पडना. वैकुंठाचेर निमाणें विमान गेल्लें तें आमच्या तुकोबाक घेवन. ताचे उपरांत थंय फ्लायट गेल्ली म्हाका तरी खबर ना.

जो पुण्य करता ताका सर्गांत सुवात मेळटा आनी पाप करता ताका नर्कांत ही आनीक एक आमची कल्पना. ही जाणें म्हूण कल्पना केल्या ताका कितेंय दिवंक फावो. 'हमको मालूम है जन्नत की हकिकत लेकीन दिल के खूश रखने को 'गालीब' ये खयाल अच्छा है' असो गालीबाचो एक शेर आसा. म्हजो बापूय आपूण सर्गांत आसा अशें आईचे सपनांत येवन सांगता. हांगा सदरो आनी लेंगो घालून फिरपी थंय टी शर्ट जीन्स आनी काळें गोगल लावन फिरता अशें आई सांगता. पयर श्राद्धाच्या दोन दीस आदीं आईचे सपनांत आयिल्लो तेन्ना दोनीय पांय मेजार वयर दवरून ताणें आपले Nike Shoes दाखयले अशें आई सांगऽ. म्हणजे सर्ग ही कल्पना खरीच 'दिल खूश कर देने वाली' अशेंच म्हणचें पडटलें. मरतकच जर आमी सर्गार वतले हाची खात्री आसत जाल्यार आमकां ही भूंय सोडून वच्चें आसा हे कल्पनेंतूच आंगार कांटो कित्याक येता हें म्हाका समजुना. अश्यो कल्पना करपाक मनीस सामको प्रॅक्टिकल आसचो पडटा अशें हिणें म्हाका सांगलां.

''आगो, फाल्यां समजा हांव गेलो अशी कल्पना कर, मागीर तुजें कशें कितें गो?'' एक दीस हांवें हिका लायट गेल्ले कडेन विचारलें. रायबंदरा लायट आंतऱ्या पयऱ्यान वता तुमचे म्हायती खातीर.

''हांव तुमी बाजारांत गेल्यात आनी परत रांदचे कुडींत पोती घेवन येवचे नात अशी कल्पना करतलें. तातूंत कितें? जो देव बाप्पागेर वता तो केन्नाच परत येना अशें भुरगेपणांतल्यान आयकत आयलां.'' ही जळारां मारीत.

''हय गोऽव जो आवडे सर्वांना तोची आवडे देवाला हांवेंय भुरगेपणांत आयकलां''- अशें म्हणून हांवें दोन जळारां मारलीं.

"You have to be practical in your life. मरण आज ना फाल्यां येतलेंच तुमकां. Be brave and face it. गोडे मुताचें आनी प्रेसांवं आशिल्यान तें घडये बेगीन येत. पूण यतलेंच! तें कोणाक चुकुना. मृत्यु हें एकमेव सत्य. ती कल्पना न्हय. म्हणून समजा फाल्यां हांव गेलो बी म्हणूं नाकात. मरणाक समजा उतर बी लावपाची गरज ना.'' हिणें म्हजे मनाची तयारी बऱ्यापैकी केली. लायट नासून लेगीत सालांत झोपाळ्यार बसून यम झोकें घेता अशें म्हाका स्पश्ट दिसपाक लागलें. हिचें दोन वळींचें भाशण सोंपतकच, 'मृत्यु हें एकमेव सत्य, Well said Lady!' अशें म्हणून हांवें ताळयो वाजयल्यो आनी दिसाळें घेवन वारें घेवपाक सुरवात केली. हालीं हांव दिसाळीं वारें घेवपाकूच

वापरतां, तुमचे म्हायती खातीर.

"तुमी म्हणटात म्हणून हांव म्हणटां आं. म्हाका असल्यो कल्पना बी करपाक टायम नासता. समजा, तुमच्या आदीं हांव गेलें जाल्यार तुमी दुसरें लग्न करतले?" हिणें अशें म्हाका विचारलें आनी म्हाका ओगीच लायट आयिल्ले वरी दिसली. कोण तरी म्हजे जिणेंत आयल्या आनी हांव 'बहुत शुक्रिया बडी मेहरबानी मेरी जिंदगी में हुजुर आप आये' अशें पद म्हणटां असो सीन म्हज्या दोळ्यांच्या पड्ड्यां वयल्यान येवन गेलो.

"तूं म्हणटा तें खरें गो! घरांत तुळशी कडेन निरंजन पेटोवपाक सवायशीण जाय. तुजे कडेन पंचवीस वर्सां somewhat adjust जाता थंय आसा, आतां कोण हे घरांत येता तिचे कडेन म्हाका परत fresh adjust जांवचे पडलें ना? कठीण बाबा!" हांवें म्हणलें आनी हे वयांत म्हाका कोण चली दितलो हेंय हांव चिंतपाक लागलों.

"तिनसांजचे कात्रीर मरणाच्यो गजाली नाका घरांत!" अशें म्हणून ही उठून गेली.

कांय कल्पना थोडो वेळ काय जायना मनाक सुखावन वतात. कांय कल्पना कडेन आमकां खेळपाक आवडटा. जें कल्पनेंत आमी पळयतात, अणभवतात तें केन्नाच खरें जावंचें ना हें खबर आसून लेगीत आमी ती कल्पना करतात आनी तिचे कडेन खेळत बसतात. आमी (दादले) आशिकुशीक लग्न जाल्ल्यांची दशा पळयतात तरी आसतना आमी स्वता विशीं वेगळीच कल्पना करतात आनी तिका लग्न जायसर सांसपीत बसतात. लग्न जातकच आमचीय दशा बाकिच्यां वरीच जाता हें सांगपाक घाडी नाका. पुणून ही कल्पना सांसपुपाक वेगळीच मजा आनी नशा आसता हें हांवें तुमका सांगपाची गरज ना. थोडे हे अवस्थेक 'लग्नेला' अशें म्हणटात, तुमचे म्हायती खातीर. हांव म्हजी होनेवाली पत्नी रेखा वरी आसतली अशी कल्पना करतालों. तिणेंच आमकां खुबसुरत सिनेम्यांत कल्पना करपाक शिकयले. 'अच्छा सोच के देखो खेत में उगती टॉफी, पेड पे फलते लड्डू पेढे और नल खोले तो कॉफी' अशें ती एका पदांत म्हणटा. हो सिनेमो पळोवन घरा येतकच म्हज्या सारक्या खूब जाणांनी घरा येवन नळ सोडून पळयलो. सोड. 'ड्रीम गर्ल' सिनेमो पळयतकच आमकां होनेवाली पत्नी हेमा वरी आसतली अशें दिसतालें. आमी गर्लफ्रेंडां विशीं उलयतना तुगेलें ड्रीम गर्ल कोण रे अशे प्रस्न विचारताले. तेन्ना ती पिरायूय तशीच आसता. चलयांक वयार येतकच राजकुंवर घोड्यार येता सो दिसता तशीच अवस्था चल्यांचीय जाता असो म्हजो अभ्यास सांगता. खूब जाणांक ते पिरायेचेर तांची होनेवाली पत्नी तांकां परयेचे रुपान दर्शन दिता. म्हाकाय असोच साक्षातकार जाल्लो. एक धवोच गावन घालून पाखां आशिल्ली परी आमचे आंगणांत देंवली. तिचे हातांत जादुची काडी आशिल्ली तीय म्हाका दिसली. तिचो चेरो विद्या सिन्हा वरीच आशिल्लो. तिणें म्हजे बॉडार ती काडी मारून म्हाका हॅण्डसम केलो. म्हजें वक्ल गेलें, वजन वाडलें, हांवें ईनशर्ट केलें आनी हांव अमोल पालेकरा भशेन दिसपाक लागलों. तिणें आमचें घरांत भितर सरतना भांगराचे मोचे भायर काडले. आईक, बापायक, टायगराक वाकून नमस्कार केलो. ती नमस्कार करतना तिचीं दोनूय पांखां हांवें उखलून धरिल्लीं. हें सगळें विश्व हांवें म्हजे कल्पनेंतूच तयार केल्लें हें म्हाका खबर आसून लेगीत जेन्ना हांव सोयरिके निमतान चलयांक पळोवंक वतालों तेन्ना तांकां फाटले वटेन दोन पांखां आसात काय ना हें पळोवंक नदर मारतालों. ती परी घरचे मंडळीक पांयां पडून पांखां हालयत गेली ती परत आयली ना. सपना था सपना ही होगा, सोड.

खूब फावटीं 'हांव थंय ज्यूस्त पावलों म्हणून बरो नाजाल्यार कितें जावपाचें हें चिंतल्यारूच आंगार कांटो येता' असलीं उतरां आमच्या कानार पडटात. कसले तरी कल्पनेनूच आंगार कांटो येता, शेळो घाम फुट्टा जाल्यार ती कल्पनाच कित्याक करप हें म्हाका कळना. सिनेम्यांत, खलनायक नायिके कडेन आगळीक करपाचो यत्न करता तेन्ना दर खेपेक नायक 'कुत्ते मैं तुम्हारा खून पी जाऊँगा' अशें आड्डत येता आनी तिका मेकळी करता हें आमकां सगळ्यांक खबर आसा. तरी आसतना असो सीन पड्ड्यार येतकच 'आगे बाये अमिताभ ज्यूस्त पावलो म्हण हिची माणसुकी नाजाल्यार कितें जावपाचें? कल्पना केल्यारूच आंगार कांटो येता' अशें म्हणत पदरान घाम पुसपी बायलो हांवें पळयल्यात. एक खेपे जितेंद्रान पावपाक मातसो उशीर केलो कित्याक म्हणून खबर ना. हिणें आपले कल्पना शक्तीचो वापर करून सोफ्यार घालून घेतलें. आईन कांदो नाका कडेन धरून हिका शुद्धेर हाडली. तो मेरेन जितेंद्र नायिकेची सुटका करून, गालांत जीब घालून कमर मोडीत नाचतालो. 'नाका जाल्लें येवजिता आनी आमकां नाचयता' अशें म्हणून आईन तो कांदो बारीक शिनून सुंगटांचे सुक्याक घालो. आसूं.

हांव येवजितालों, हांव चिंतालों हाचो अर्थ हांव कल्पना करतालों अशेंच धरचो. हांवें येवजिलें तशेंच जालें म्हणजेच हांवें कसली तरी कल्पना केल्ली तशेंच तें घडलें. नाका जाल्ल्यो कल्पना करीत जाल्यार तो चिंतेचो विशय जावं येता. आमी दीस भर जें येवजीत आसतात ताचेंच बिंब आमकां आमचे सपनांत दिसता. मनी वसी ते सपनी दिसे म्हणटात तें हेच खातीर. बाबुली भट दीस भर देवतेचे गर्भ कुडींत पडिल्लो आसता पुणून ताका सपना पडटा हेलनाचीं. हातूंत देवतेची आनी हेलनाची चूक कांयच ना. देवता बशिल्ले कडेन थंयच आसा आनी हेलन वांद्र्यां सलीमा बराबर सुखान संवसार करता. ही सगळी बाबुली भटाचे मनाची किमया. केन्ना केन्ना अशेंय जाता, आमकां नाका जाल्लें वा आमचे कल्पनेक धरून नाका जाल्लें आमच्या कानार पडटा. खूब फावटीं तुमी हिंदी सिनेम्यांनी ही अवस्था पळयल्या आसतली. हिरो वा हिरोईन 'आप ने कुछ कहा' अशें विचारतात. मागीर 'नहीं तो' अशी जाप येता. इन्साफ ह्या सिनेम्यांत एक सुंदर पद आसा. मुकेश आनी आशान तें गायलां. 'ये तुने क्या कहा कहा होगा है ये मैने क्या सुना सुना होगा अरे ये दिल गया गया होगा'. अशें मन कल्पना करपाक लागल्यार रामरक्षा म्हणल्यार लेगीत ती कानार पडचिना. कानार पडटले ते कल्पनेंतले बोल. सोड. ती पिराय वतकच कानां कडेन आड्डल्यार लेगीत कानार पडना. अशी त्या कानांची स्थिती जाता. खूब फावटीं कानार हय न्हय शीं उतरां पडटात आनी

आमचे मनांत कल्पनांची एका फाटल्यान एक अश्यो सरपळ्यो तयार जातात. आमगेर हिची आवय येतकच दनपारचे जेवणा उपरांत ती आमचे बेडरुमांत बसून एक नियाळ घेता. हो नियाळ चालू आसतना खूब फावटीं हांव थंयच्यान म्हजे कामाक लागून पासार जातां. अशें दोन तीन खेपे पासार जातकच म्हज्या कानार कांय उतरां पुसट शीं पडटात कारण दार आड केल्लें आसता. नंदी बैल, अजागळ, अबर्गत हीं उतरां म्हजे व्यक्तीमत्वाक धरून आशिल्ल्यान हांव तीं भितर म्हजेच विशीं उलयतात अशी कल्पना करतां आनी जिवाक त्रास करून घेतां. नियाळ सोंपतकच दोगांय जाणां म्हाका पासार जाता तो पळोवन 'आमी तुजे बद्दल उलय नाशिल्लीं आं' अशें सांगतात लेगीत. हेच खातीर सामकी खात्री आसल्या शिवाय नाका आशिल्ली कल्पना करून आपले कुडींतल्यो व्याधी वाडोवच्यो न्हय. अशी म्हजी विनोवणी.

जशें मन तशीच आमची जीब. जिबेक जेन्ना दुवाळे लागतात तेन्ना ती आमचे मनांत नाका जाल्ल्यो कल्पना तयार करतात. त्यो कल्पना खाणा विशींच आसतात हें हांवें सांगपाची गरज ना. शियां दिसांनी म्हजो ताळो फुलतालो आनी अजून फुलता. जिणेंत ताळो सोडून आनीक कांय फुल्लें ना. आसूं. तर, हे दिसांनी बरीं मोठीं बोरां मेळटात. रेखा भुजंगराव हुबळीकर मुद्दम म्हजे म्हऱ्यात येवन बसतालें.

''बाबा तूं ना अशी कल्पना कर. मोठी मोठी बोरं थोडी हिरवी थोडी पिकलेली तू तोंडात टाकतो. तोंडात टाकल्यावर पिकलेली बोरं फुट्टात...''

इतलें रेखा म्हणटा सर म्हजी जीब मुत्ताली आनी ताळो फुलिल्ल्यान आंवडो गिळपाक जमऽ नाशिल्लें.

''अगं माझी भिंडा फुलून मला आंवडा गिळायला भयंकर त्रास होतो. हे ठाऊक असून तू मला असा त्रास देतेस. मग योगिणी जोगळेकराची पुस्तकं वाचून फायदा तो काय गं?'' अशें हांव जमता तशें म्हजो ताळो खरवडून सांगतालों.

दुसऱ्यांनी त्रास दिवपाकूच जाय अशें ना. चवथी कडेन तेंफळां पळयतकच मन नाका जाल्ली कल्पना करपाक लागता आनी नाकूय ताका साथ दिता. मागीर पानार वरण वाडल्यार लेगीत नाकांत भलतोच वास सरता. जे निराशावादी आसतात तांच्यो कल्पना बाकिच्यां वरी आसनात. म्हजे घरांत 'नकार घंटा' अशें नामकरण जालां. म्हणटकच म्हाका तुमी निराशावादी म्हणल्यार म्हाका वायट दिसचेना. हांव सदांच रायबंदरा म्हांबऱ्यातली फार्मास नाशिल्ली जाल्यार रायबंदकारांचें कितें जातलें, गोंयकारांक नुस्तें मेळ्ळें ना जाल्यार तांचे कितें जातलें अश्यो कल्पना करीत आसतां. गोंयकारांक नुस्तें मेळ्ळेना जाल्यार तांचे कितें जातलें हाची जाप म्हाका बाकीबाबाले कवनांत मेळ्ळी. मागीर हांवें ती कल्पना करपाची सोडून दिली. बाकीबाबान हें कवन रचलें हाचो अर्थ बाकीबाब म्हजे वरीच गोंयकारांक नुस्तें मेळना जाल्यार तांचें कितें जातलें हाचेर चिंततालो हें प्रॉव्हार जाता. म्हाका व्हडपण नाका विशय आयलो म्हूण सांगलें.

कविते वयल्यान कवीची याद जाली. कवी कल्पना करता तशी कोणूच करूंक शकना अशें म्हणटात. जें रवी पळयना तें कवी पळयता अशेंय म्हणटात (हांगा रवी म्हणजे मळबांतलो एक तारो). कवी कितें पळयता तें हांव नकळों पूण तो आपले कल्पना शक्तीचे बळग्यार एका खिणांत तारे गिरे आपले प्रियसीच्या पांयां कडेन हाडून रकयता आनी रिकामें पाटें घेवन परत वता. कवी केन्ना, खंय आनी कसली कल्पना करीत म्हणून सांगू नजऽ. आमचो नागवेंकार एक कवी. ताची गजाल तुमकां सांगतां. तो चवथी कडेन स्टँडर्ड माराणाची कास पेटयतालो. ते वर्सा ताका उमेद खूब जाल्ली. माराणाची कास पेटयतां पेटयतां ताका एक कविता सुचली. ती ताणें माराणाच्या आवाजांत म्हाका म्हणून दाखयली. सुरवेच्यो वळी अश्यो आशिल्ल्यो,

> पानशेताच्या धरणा वरी
> तुजे यादीचें धरण फुटलें
> आनी तातूंत हांव व्हांवन गेलों.

पानशेताचें धरण १९६१ सालांत फुटलें. तें फुटून कितलींशींच वर्सां जाल्लीं. ताचे कडेन स्टँडर्ड माराणांचो वा नागवेंकाराचो कांयच संबंद नाशिल्लो. कवीची कल्पना शक्ती पळयात. माराणाचो गडगड जाता कितें आनी नागवेंकाराच्या मनांत पानशेताचे धरणा वरी यादींचें धरण फुट्टा कितें! ह्यो वळी आयकल्या बराबर हांवूय ताचे वांगडा व्हांवन गेलों. व्हांवन वतना नागवेकारान दिल्लो प्रसादाचो दोणो घेवपाक विसरलो ना.

कवीक असलीय कल्पना करपाक मेकळीक आसता. तांचें कितेंय कल्पना शक्तीचे नांवा खाला पचून वता. एके कडेन आनंद बक्षी सायब बरयता 'गुलाबी आँखे जो तेरी देखें शराबी ये दिल हो गया'. हांव हरशीं दोळे पळयत फिरपी मनीस. आयचे तारखेक गुलाबी दोळ्यांची कोणूच मेळूना म्हणटकच शराबी दिल जावपाचो प्रस्नूच ना. कल्पना शक्तीचे नांवार कितेंय खपता तें अशें. सोड. आमच्या बाकीबाबान पिरायेच्या अठरा वर्सांचेर 'अनंता तुला कोण पाहू शके' असो प्रस्न केलो. हांव अठरा वर्सांचो आसतना एकोणचाळीस प्रतिशें गूण घेवन पास जातलों काय ना हें चिंत्तालों (एकोणचाळीस प्रतिशें म्हजी कॅपॅसिटी). आसूं. आपले तांके प्रमाण मनीस चिंतता हें हांगा स्पश्ट जाता.

पिराय वाडटा तश्यो कांय कल्पना खऱ्यो दिसपाक लागतात. सरते पिरायेचेर कोणाचो तरी आधार जाय आसता तो नेमको मेळना. अश्या समयार जाका केन्नाच पळोवंक ना त्या देवाची याद जाता. हाका नास्तीक लेगीत आडवाद ना. कल्पनेंतलो देवूच निमणो आदार जाता आनी मनाक थाकाय दिता. बाकीबाब हे कवितेंत शेवटाक म्हणटा,

> नवीं भावपुश्पें तुला वाहिलीं,
> तशी अर्पिली भक्तीबाष्पांजली
> तुझ्या पद्मपत्रावरी ती स्थिरो
> प्रभो! कल्पना जल्पना त्या हरो.

संपर्कः ९८५०५३०७५६ 

# अस्तुरेच्या सूख-दुख्खांक वाचा फोडपी : 'आर्त'

डॉ. जयंती नायक ह्या गोंयच्या साहित्यीक मळावेल्यो एक नामनेच्यो व्यक्तिमत्व. त्यो एक नामनेच्यो लोकवेद संशोधक. त्या भायर कथा, कविता, नाटक आनी अणकार अश्या विंगड-विंगड साहित्यीक मळांचेर कोंकणी, मराठी आनी इंग्लीश भासांनी तांणी विपूल लिखाण केलां आनी खेरीत असो आपलो ठसो उमटायला.

लोकवेद संशोधिका म्हण काम करतनां डॉ. जयंतीन सर्जनशील साहित्य निर्मणेचो आपलो वावर चालूच दवरला आनी तार्चेच फळ म्हण 'गर्जन' (१९८९, दुसरी आवृत्ती २०१६) आनी साहित्य आकदेमी विजेतो 'अथांग' (२००४) ह्या कथा संग्रहां फाटोफाट 'आर्त' (२०१९) हो तांचो तिसरो कथा संग्रह हालींच उजवाडाक आयला.

'आर्त' ह्या कथा संग्रहांत २००५ ते २०१८ ह्या फाटल्या धा-पंदरा वर्सांच्या काळांत विंगड-विंगड नेमाळ्यांनीं उजवाडाक आयिल्यो डॉ. जयंतीच्यो सतरा कथा आसपावल्यात. कथिका, मध्यम लांबायेच्यो कथा आनी दीर्घ कथा अशे कथेचे तीनय प्रकार ह्या संग्रहांत आसपावल्यात. प्रथम पुरुशी तशेंच तृतीय पुरुशी अशे दोनय तरेच्या निवेदनाच्यो कथा हातूंत आसात. व्यक्ती चित्ररूप कथा, आत्मकथनपर कथा, समाजीक कथा तशेंच गूढ कथा अशे वेगळे वेगळे विशयानुरूप कथेचे प्रकारय ह्या संग्रहांत हाताळल्यात. ह्या सगळ्या कथांनीं प्रमाण कोंकणी वांगडाच कोंकणी भाशेची विंगड-विंगड उतरावळ आनी बोलयो हांचो वापर केला.

ह्या कथा संग्रहांतल्या जशे परीं 'नमन', 'उमा', 'ख्यास्त', 'इत्सापुर्ती' आनी 'जैत' अश्या कांय कथांचे इंग्लीश भाशेंतले अणकार आमकां 'गोवा १५५६' ह्या नामनेच्या प्रकाशनांन उजवाडायिल्ल्या डॉ. जयंती नायक हांच्या 'The Salt of the earth' ह्या इंग्लीश कथा संग्रहांत वाचूंक मेळटात.

ह्या कथा संग्रहांतल्या सगळ्या कथांचीं कथाबिजां लेखिकेक गोंय आनी गोंया भायर वेगळ्या-वेगळ्या प्रसंगा निमतान मेळ्ळ्यात. ह्या कथाबिजांतलीं पात्रां, तांच्या आगळ्या वेगळ्या गुणांक लागून, प्रसंगाक फुडो करपाच्या तांचे धिटायेक लागून लेखिकेच्या काळजाच्या खरायेक वचून बशिल्लीं आसात. तांचीं सूख-दुख्खां, तांणी भोगिल्ल्यो हाल अपेश्टा हांका लेखिकेन आपल्या लिखणे उदेशीं वाचा दिल्या. देखूनच ह्या कथांक 'आर्त'ताय लाभल्या.

ह्या कथा संग्रहांतली 'आदिमायेचो अस्त' ही पयलीच कथा एक खेरीत कथा जावन आसा. विशय आनी भास हे नदरेन ही वैशिश्टपूर्ण आसा. मानववंश शास्त्रीय बसका आशिल्ली ही कथा! अशे तरेची कथा म्हाका तरी कोंकणी भाशेंत वाचूंक मेळूंक ना. ह्या कथेच्या कथाबिजाचेर लेखिकेन 'काळमाया' हें नाटकय रचलां.

ह्या कथा संग्रहांतली दुसरी कथा 'उमा' ही एका अस्तुरेची कथा जी आपल्या शिक्षणीक जिणेंत फुडाराक कितें तरी भव्य दिव्य करतली अशी ह्या कथेची निवेदीका जी तिची मैत्रीण आसता, तिका दिसता. आनी तशे तरेन उमा आपल्या वागण्यांतल्यान आनी निवेदिके कडेन केल्ल्या पत्रवेव्हारांतल्यान दाखयता. पूण साबार वर्सांनी जेन्ना निवेदिका प्रत्यक्षांत आपल्या मैत्रिणीक कोल्हापुरा तिच्या घरा वचून मेळटा तेन्ना निवेदिकेक सामको धक्को बसता. 'रांद,वाड उश्टीं काड आनी भुरग्यांक सांबाळ' ह्या चौकटींत चार चौगां अस्तुरे भशेन उमा जिणें जियेता तें पळोवन तिका वायट दिसता. ह्या कथेंत निमणे कडेन कथेची निवेदिका म्हणटा "म्हाका दिसलें, सगळो संवसारच आतां म्हजे भोंवतणी घुंवता. म्हज्या जिवा भावाची इश्टीण... म्हजे कडेन अशीं तडूकां करता?... जाचे कडेन हांवें इतलीं वर्सां इश्टागत राखून दवरिल्ली ती तिच्या स्वतंत्र सबावाक लागून, पुरोगामी विचारांक लागून. म्हाका मानवल्लें तें. ताच्या स्पश्ट वक्तेपणांक लागून!... तें म्हजे कडेन दाखय लिपोवपाचो खेळ खेळ्ळें? तें उमा सामान्य बायलेचे कक्षेंतच समाधान मानत जगता? आक्काईची निकटी कृपाच न्हय तर स्फूर्त आयच्या बायलांनी घेवंक जाय म्हणपी उमा, स्वता सत्वहीन जीण जियेता?"

कुटूंबीक दबावा खाला एक परजळीत फुडार आशिल्ल्या अस्तुरेची शोकांतिका ह्या कथे उदेशीं लेखिकेन दाखयल्या.

'वळख' ह्या कथेंत एका असामान्य पूण समलिंगी प्रवृती आशिल्ल्या अस्तुरेची कथा सांगल्या. मालती शिरोडकर ही विद्यापिठांत हिंदीची प्राध्यापिका. पूण तिचें समाजीक मळा वेलें काम म्हत्वाचें आशिल्लें. ती 'अस्तुरेचो आवाज' ह्या नांवान एक संघटना चलयता. बायलांनी आपल्या पांयार उबीं रावंक जाय म्हण आवंडेता. बायलांचेर खंयूय अन्याय जावं, तिची संघटना रोखडोच आवाज उठयता. तिचे कार्याक लागून विद्यापिठांत शिकपी चडश्या चलयांक तिचे विशीं आकर्शण आसता. तिच्या वावरांत आदार करपाक तांकां सदांच उमेद येता.

सहाजीकच ह्या कथेची निवेदिका विद्या हिकाय ह्या मालती मॅडमी विशीं आकर्शण आसता. विद्या एक दीस ह्या मालती मॅडमीगेर रावपाक वता आनी तेन्ना रातची मालती मॅडम निवेदिके कडेन समलिंगी चाळे करता. निवेदिकेक तिचे विशीं आशिल्लो आदर खिणयां ना जाता आनी ती थंयच्यान रातचीच भायर सरता. कांय तेंपान मालती मॅडम गोंय सोडून कोवाड हांगसर वता आनी आपलें समाजसेवेचें काम चालूच दवरता. आनी एक दीस विमानप्रवासांत मालती मॅडमीक मरण येता. पूण तिचे विशीं निवेदिकेच्या मनांतली अढी तशीच उरता. पूण,. निवेदिकेची इश्टीण माया ताका समजायता. माया म्हणटा "हय विद्या म्हणटां हांव तशें ! कारण तिणें आमचे खातीर ... समाजा खातीर कार्य केलें... तें खूप व्हड आसा... त्या कार्याक मोल ना. त्या कार्या खातीर ही तिची क्षुद्र करणी आमी तिका माफ करपाची !"

"माफ़ करपाची? कितें उलयता गो तूं?" निवेदिका मायाक विचारता.

''हय... माफ करपाचीच! कारण अखेरेक तिवूय एक मनिसच! देहाच्या विकारांतल्यान तिचीय सुटका वाट ना! भावनाचो उद्रेक जालो घुस्मट जालो म्हणटक असोच जावपाचो!''

लेखिका ह्या कथेंतल्यान अश्या विकृतीक त्या मनश्याच्या वावरा मुखार क्षुद्र थारायता आनी असल्या गजालीं कडेन आडनदर करपाची सुचोवणी करता. ह्या कथेंतल्यान लेखिकेन एक ज्वलंत विशय जाका आयज मेरेन चडशे साहित्यकार आफुडनांत तो विशय फ़िशालकायेन हाताळ्ळा. आनी असली विकृती आशिल्ल्यां कडेन सहानभुतीन पळोवपाचो सल्लो दिता.

'ख्यास्त' ह्या कथेंत एक खूब जाण्टी बायल जिका आतां दिश्टी पडनां. तिका तिच्या नातरांनी एका पडंग घरांत एकलीच दवरल्या. घराचें पाखें पावसांत गळटा तें लेगीत कोण सारखें करना आनी तिका तशीच देवाच्या भरवंश्याचेर सोडल्या. ह्या कथेंतल्यान आमच्या कुटुंबीक मुल्यांक कशी वाळटी लागल्या ती हुस्को करपा सारकी गजाल वाचप्यां मुखार दवरता.

'नमन' ह्या कथेंत शिगम्या वेळार गांवांतल्या शिगम्या मांडार वांटेकार जायना आसतना त्या गांवचे तरणाटे शारांत जावपी शिगम्या मेळांत वांटेकार जावपाक वतात आनी आयज मेरेन शिगम्या मेळांत वांटेकार जायनाशिल्ल्यो चलयोय ह्या शारांतल्या मेळांत वांटेकार जातात. गांवचे मांडावेले धोल, ताशे, ताळ,झानी सगळें घेवन ते थंय वतात आनी हांगा शिगम्या मेळा खातीर गांवांत कांयच वाजप नासता.

निमणे कडेन ह्या गांवांतलो एक जाण्टेलो जानूदाद म्हणटा ''आतां ह्या फुडल्या वर्सांनी अशेंच जावपाचें रे बाबी ... आमचे धोल ताशे शारांतल्या रस्त्यानी वाजपाचे आनी आमचे मांड हांगा किण्ण पडपाचे...!''

लेखिका ह्या कथेंतल्यान गांवगिऱ्या जिणेचेर शारीकरणाचो जाल्लो प्रभाव दाखयता.

'चंपी' ही मोनजातीच्या वात्सल्य प्रेमाचेर आदारिल्ली एक उत्कृश्ट कथा. आपले जल्माक आयिल्ले पेटे मेले म्हण पेट्यांचे वियोगान आपलो जीव त्यागूंक पळोवपी एका मादी सुण्यांतली आवय परत जागी जाता, आनी मागीर पंदरा दीस पयली माजरान काडिल्लीं पिलां जेन्ना तिचे पाने लुचूंक लागतात तेन्ना ती मादी सुणें परत आपले दोळे उघडटा. लेखिका ह्या कथेच्या शेवटाक म्हणटा ''माजराचीं पिलां चंपीचे पाने चुकू चुकू करीत वोडटालीं आनी चंपीच्या आंगात इल्ली इल्ली चेतना परत येताली. हांव दोळे मोठ्ठे करून तें दृश्य निरखितालें. धवेफुल्ल चंपी आनी ताच्या पान्याक लुचतालीं तीं काळीं माजराची पिलां. असैमीक अशें तें चित्र... पूण त्या चित्रांत एक सत्य दडिल्लें... ममतेच्या हुंकारान काळाक हारयिल्लें.''

'अंत अनंताचो' ह्या कथेंत सैमाक वाटावपा खातीर ज्यो अंधश्रध्दा जाण्टेल्यांनी पातळायिल्ल्यो त्यो कितल्यो बरोबर आसल्यो हें सांगपाचो लेखिकेन हांगा येत्न केला. आयज जो मनिसजाती कडल्यान सैमाचो इबाड जाता तें पळयल्यार लेखिकेची ह्या सगळ्या घडणुकां कडेन पळोवपाच्या नदरेची तोखणाय करीन दिसता.

ह्या कथासंग्रहांतल्या म्हाका आवडिल्ल्यो कांय कथांची केल्ली विस्कटावणी. तश्यो सगळ्योच कथा उत्कृश्ट आसात. ह्या सगळ्या कथांनी, एक लोकवेद संशोधक म्हण, एक बायलांचेर जावपी अन्याया आड आवाज काडपी म्हण, गांवगिरे जिणेचें अभ्यासक म्हण, अशीं डॉ. जयंतीचीं साबार तासां सभेमाजार येतात. 'आर्त' हो हांवें हालींच्या तेंपार वाचिल्लो एक श्रेश्ट असो कथा संग्रह!

हो कथा संग्रह डॉ. जयंतीन ताच्या कथांचो एक चाहतो भौ. बबन भगत हांकां ओंपला. ह्या कथा संग्रहाचें मुख पृश्ट योगेश कापडी हाचें आसा आनी राजाई प्रकाशन आमोणें, केपें हांणी तो उजवाडाक हाडला.

**सखाराम शेणवी बोरकार**

संपर्क: ९९२३३०६७५१

**आर्त (कथा संग्रह)**
डॉ. जयंती नायक
राजाई प्रकाशन आमोणें, केपें
**पानां:** २३५
**मोल:** २०० रुपया

**(पान २२ वयल्यान)**

जिवंत जायशें कर्ता. एक्ये काणियेचो शेवोट वाचप्यांक त्या वयल्या अनबोगाच्या पावंड्यार वर्न पावंवचो जाल्ल्यान हांतली खंची काणी घेतल्यारी तसलो आनबोग भोगची खात्री आसा.

भाशेच्ये सोभायेची रूच दाकांवची तर हेमा नायकाच्ये पुनरवैभव काणियेंतलें हें वाक्य घेया: ''गंगुबायेच्या चवथीक उमेदीचीं पांखां लागल्लीं आनी खोश्येचे काजुले लिकलिक्ताले. तेचपरीं डॉ. जयंती नायकाच्ये ताठकणो काण्येंतलें वाक्य : ''प्रश्नयांचो नेटाळो सोर्पा सार्कों तिचे गोमटे भंवतीं अंदत वेतालो...''

काणियां पयकी विशिश्ट आनी चरित्रेच्या कोडू आनबोगांचेर बांदलेली एन. शिवदास हाची ''आल्तोडचो बापोय पल्तडची धूव'' काणी पुडतुगेसां काळाच्या जबरदसतेन कर्च्या धर्मांतराचेर विणल्या तरी कोमुवादाचो कसलोच वास तांतूं ना तें बर्प्याची परिपिकाय दाकयता.

पुंज्यांतल्यो जायत्यो काणियो दादल्यांनी बरयल्यात तरी दादल्या-बायलां मदल्या संकीर्ण संबंधांचें चित्रण केलां तेदनां दादल्या प्रधान चिंत्पाची कुरू थंय दिसना. जायित्यो काणियो समाजीन ''भश्ट'' (out-caste) म्हण लेकलेल्या किरदारां विशीं तात्सार जावं, कीळ चिंतप जावं उबजोंक आवकास दिनांत. देकीक, डॉ. एडवर्ड नज्रेताची ''चेडियेची धूव'' डॉ. प्रकाश पेर्‍यंकराची ''चंद्रकोर'' गोकूलदास प्रभुची ''खतां''.

आशें हर काणी बर्पांचे तेक्निके दिश्टीन, भाशेचे सोभाये आनी बोलिंचे विविधाये दिश्टीन, आनी विशयांचे खोलाये दिश्टीन पळेल्यार एक उत्तीम कलेची वसत आनी हो पुंजो वाचललो कोंकणचीं गिरेसत्काय पार्कुंचे सवें तांतल्या बर्पांची आनी बर्प्यांची कालेत समजोंक सकच्यांत कांय दुबाव ना.



# कविता

## तुज्या भावनीक हुंवारांत

**निलबा अ. खांडेकार**

तुज्या जनेलान
तुज्या नदरेकूय चौकट घातल्या
आनी तूं पळयता दर्या
संथगतीच्या ल्हारांच्या सांगातान
तडीक हात तेंकोवन परतोवणी
विशाल मळबाचें अंतरंग
आनी मर्दीच केन्ना वाऱ्याच्या तिरसुवादान
दर्याक फेस येता तेन्ना
तुज्या जनेलाक लोंबकळयल्ल्यो मलायो माल्शो हालतात
जांकां तू पडदे म्हणटा,
जी तुजी सोय नदरे मदल्या आपाव लिपायची
तुज्यांतल्या नखरेलपणाची
कदीम काळा सावन रुजत आयिल्ली आसता
तुज्या भावनीक हुंवारांत

आमट-तीक मिक्सभाजे भशेन
तुर्वे रांदलेली तिनसान
खिणांच्या श्रृंगारांतली
पुंजायल्ल्या उनताच्या कुडक्यांची
बेमुदत सपनांची
वाजत आसता एक तारीर येवन तुजी
ॲलोपॅथीक हुरहूर
आनी म्हज्या दोळ्यांत
चौकटीची फ्रेम सोंसून न घरपी
आयुर्वेदीक काळखाच्या बंदखणीचो दर्यो व्हांवता रावता
विभक्तीचो प्रत्यय येवनूय
हतबल जावपी म्हजो आत्मो लेगीत
म्हजो वांगोड सोडून पोगळत वयता
पुरुशार्थाच्या एक तालार
अस्तित्वहीन जावन
चौकटींतल्यान
पयस मेरेन
खूब पयस...

संपर्क : ९६३७०९२५२४

## रयतेचे उले

**अशोक भोंसलो**

रयतेचे उले गे कोणा राजा कानी गे
म्हारगायेचो माड गे घरादारार पडे गे
राजा आमचो शाणो गे शिकला बुकां चारू गे
वांगडी ताचे लोले गे बुद्दीन तोचू भोलो गे
सांगता चोवीस वरां उदक गे नळ सुके पडचेना सांगता गे
खंयच्या इंजिनेरान केली जादू गे माडा वेल्या श्रीफळांत गोड उदक घातले गे?
रसते आमचे फोडले गे सांगता आपणेच सारके केले गे
फुलू खुस्तार खोजने गे राजा आमचो फोडटा गे.
साकव, पूल, सेतू बांदले गे वर्सा मारता सदांच गे
इंजिनेर कामगार खंय नासतना गे राजान बांदले काय गे?
रसत्यार अपघात जातात गे सदांच एकलो मरता गे
नळाक उदक येना गे सोरो सदांच पियात गे
खून-चोरयो जाता गे गुटखा मडको उगड्यार चालू गे
शिपाय राजाचे हुशार गे हप्तो पयलीच येता गे
राज्यांत रोग-राई आयली गे तरी राजा वर्गींच गे
रयतेच्या उल्याक गे कोण साद देती गे?

टीप : धालांच्या मांणावयले फांतयेचे वळीन गायतात ते चालीर गावचेर्ले विडंबन.

संपर्क : ९९२३८०३१५८



## कविता

उषा ज. कामत

सानुलींशी एक बीं
पडिल्ली थंयच धपटली
जायतो तेप तशीच
मुंगरून उरली

पावस सोंपलो
शीं सोंपून गिमाळ आयलो
धर्तरेक तडाखे वताचे
सैमय करपतालो

खर इत्सेन धर्तरी
पावसाक हुसकेताली
मिर्गान लायली हजेरी
भुंये तान भागयली

बिंयेन तकली उबारतना
सानुलोसो कोंब फुटलो
कल्ल सोडटना
यातनांचो मारो सोंसलो

धर्तरेच्या पोटांत
खोल खोल मुळां रुजलीं
सानुलोसो हात वयर
तन्नी पाचवीं पानां हांसली

व्हड रुखा जैता पुडी
येतल्या वतल्यार सावळी धरता
आंगा खांद्यार सवणीं खेळयतना
पावस वाऱ्याक येवकारता

आत्मविश्वासा बळग्यार
बाळकांची करता पोसवण
हालत धोलत उबो
करता सैम राखण

संपर्क : ९७६३८२३७४५



## दोन कविता

परेश नरेंद्र कामत

### त्या मौनांत

ओंठांचेर तुज्या दाटलेलें मौन-
त्या मौनांत
दाटून आयली
रात

ते रातीचें
हें तुडूंब देणें ;
तुजे भारलेले हात
आनी मंतरलेलें जिणें...

शांत शांत सगळी रात कुसां कुसांत
तुज्या
आंगां-पांगांत भिनलेली

फांतोडेची ही
थरथर ओली
कळ्या कळ्यांत फुललेली...



### कुपां आड

कुपां आड
म्हजें उतर
चंद्र ;
तूं ओंठांनी धर
अळंग

न्हंयेच्या कांठार
तूं उबें
तुडूंब ;
थानांक तुज्या
चान्न्याची ओल...



## मुक्ती

आर. रामनाथ

ह्या खिणाक
अख्खी भोंवतण निर्जन
आसात फकत
तूं
आनी
हांव
एकामेकांत...

हांव तुका समजून घेतां
तूं म्हाका
समजून घे
सूख
आनी
सत्य
सोदतां सोदतां
हांव सामको थकलां
म्हाका विसव जाय
म्हाका मुक्ती जाय...

सखे, तूं तुका अख्खेच्या अख्खें
ओत म्हजेर
आनी
पालय म्हाका
नखशिखांत
सासणाचो...

संपर्क : ९८५०४५८७६३



